# कैदी नंबर 009

## दोन अंकी कोंकणी नाटक

प्रा. हनुमंत चोपडेकार



भूमि प्रकाशन
सावर्शे, सत्तरी गोंय.



**कैदी नंबर ००१**

(नाटक)

प्रा. हनुमंत चोपडेकार



**पयली उजवाडावणी :**
२००८

**प्रकाशन क्र. : ११**

**प्रकाशक :**
श्री. अभिजीत झिलू गांवकार
भुमि प्रकाशन
सावर्शें, सत्तरी गोंय.

**अक्षर जुळवणी**
**आनी छापणावळ :**
कस्तुरी ग्राफीक्स
फोंडें - गोंय.

**मुखपृश्ट सजावट :**
कस्तुरी ग्राफीक्स

**मोल :** ३०/-

**Kaidi number 001**

(Drama)

Prof. Hanumant Chopdekar



**First Edition :**
2008

**Publication No. : 11**

**Publisher :**
Shri. Abhijit Zilu Gaonkar
Bhumi Prakashan
Savarshem, Sattari - Goa.

**Typesetting**
**& Printing :**
Kasturi Graphics
Ponda - Goa.

**Cover Design :**
Kasturi Graphics

Price : 30/-



**- हें पुस्तक कोंकणी अकादेमीच्या 'मोंड नाटक तियात्र' येवजणेखाला छापलां.**

**- ह्या नाटकाच्या प्रयोगाखातीर लेखकाची मान्यताय घेवंची पडटली.**

# अर्पण

**सर्गेस्त प्राचार्य डॉ. ए. एस. कानडे**

आनी

**सर्गेस्त श्री. मुरारी चोपडेकार**

हांका

# मनांतल्या कैद्याक मुक्त करताना...

नाटक आनी अभिनय हो म्हजो पयलींपासून आवडीचो छंद. मयेंतल्या आमच्या हातुर्ली गांवांत रथसप्तमीचीं आनी संवसार पाडव्याचीं नाटकां जातालीं - आजूनय जातात. तेन्नाची ती ओड आजुनूय काळजांत तशीच आसा. घडये म्हज्या नाट्य अभिरूचीची बुनयाद थंयच पडल्या आसूंयें. मुखार दिवचलच्या श्री शांतादुर्गा उच्चमाध्यमीक विद्यालयांत शिकताना त्या अभिरूचीक उर्बा मेळ्ळी. सांखळेच्या शासकीय महाविद्यालयांत जाल्यार 'कॉलेज मेला', एन. एन. एस., हिमको, विद्यार्थी मंडळ आयोजीत उपक्रमांची त्या नाट्य-छंदाक पोसवणूच मेळ्ळी म्हटल्यार जाता. आमचे जायते शिक्षक त्यावेळार (आनी आतांय बी) म्हाका 'नाट्याचार्य' म्हूण उलो मारताले. महाविद्यालयीन आनी पदव्युत्तर शिक्षण घेताना कवितेच्या मोगांत पडिल्लोच पूण नाटकाकडेन फांट करूंक नासली. देखुनूच इन्व्हेस्टीगेशन, कैदी नंबर ००१ हीं मराठी नाटकां जाल्यार 'हम होंगे कामयाब', आनी 'हरी आमचो टेंपररी' हीं कोंकणी नाटकां रचून जालीं.

कैदी नंबर ००१ हें नाटक पयलीं मराठींतल्यान बरयल्लें. मराठींत ताचे प्रयोगूय जाल्ले. उपरांत गोवा कला अकादेमीच्या कोंकणी नाट्यसर्तीखातीर ताचो कोंकणींत अणकार करचो पडलो. नामणेचे मराठी पत्रकार आनी कथाकार श्री. उत्तम कांबळे हांच्या 'विकृत' ह्या लघुकथेचेर आदारीत ह्या नाटकांतल्यान एक मानसशास्त्रीय विशय हाताळपाचो प्रयत्न हांवें केला. गंभीर विशय आसलो तरीय विनोद, संगीत, गीत, नृत्य असो सुमेळ बसोवन गांवगिऱ्या वाठारांतल्या हौशी रंगमाचयेक तोखेवपी प्रेक्षकांची अभिरूची तातूंत सांबाळ्ळया हें म्हाका हांगा मुजरत सांगपाचें आसा. मनोविश्लेशणात्मक विशय तसो कोंकणी रंगमाचयेक नवोच. तातूंत म्हजोय हो पयलोच प्रयोग, आशा आसा तो तडीक पावला आसतलो.

हें नाटक हांवें आमच्या श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालयाचे आदले प्राचार्य सर्गेस्त डॉ. ए. एस. कानडे आनी भंडारी समाजाचे आदले अध्यक्ष सर्गेस्त मुरारी चोपडेकार (भाऊ) हांच्या पुण्यउगडासाक ओपलां. कारण ह्या दोनूय मनशांनी म्हज्या भितरल्या प्रतिभेक वळखून म्हाका सदांच आत्मबळ दिवपाचें कार्य केलें. तांचें आपआपल्या मळावेलें योगदान आनी सक्रियता म्हज्यासारख्यांक हाचेमुखारूय स्फूर्त दियत रावतलें.

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग गोवा कला अकादेमीच्या कोंकणी नाट्य सर्तीत 'आकार-पैंगीण' ह्या संस्थेन सादर केलो. तांच्या साबार जाळवणदारांक आनी कलाकारांक हांव दिनवासता.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'नाटक-मांड तियात्र' येवजणेंतल्यान हें नाटक पुस्तक रूपांत येता देखून तांच्या अध्यक्षाक, उपाध्यक्षाक तशेंच सगळ्या कर्मचारी वर्गाच्या रिणांत रावपाक म्हाका मानवतलें. कैदी नंबर ००१क मुक्ततायेचो प्रकाश दाखोवपी भुमि प्रकाशनाचे प्रकाशक श्री. अभिजीत झिलू गांवकार, श्री. मंगेश ढवळीकार, म्हज्या नाटकाची मोलावणी करपी म्हजे इश्ट प्रा. संजय गोवेंकार हांचो सगळ्यांचो हांव उपकारी आसा.

ह्या नाट्यकृतीक फकत एक नाटक म्हूण न्हय तर एक साहित्यकृतीय म्हूण रसिक प्रेक्षकांकडल्यान दाद मेळची ही माणकुली इत्सा बाळगितां.

**- हनुमंत चोपडेकार**



# कैद्याच्या मनाची शुन्यताय सोदताना....

हनुमंत चोपडेकराक हांव एक कवी आनी एकांकीकार म्हूण वळखता. हालीसराक पुराय आकाराच्या नाट्यकृतींकूय तांणी हात घातला. ताच्या साहित्यांतल्यान दिसून येवपी सामाजीक जाणीव तांच्या नाटकांतल्यानूय दिश्टी पडटा. हम होंगे कामयाब, हरी आमचो टेंपररी, इन्व्हेस्टीगेशन ह्या सारख्या नाट्यकृतींतल्यान सामाजीक जाणिवेवांगडाच धगधगत्या वास्तवतेचोय दिश्टावो तितल्याच तिव्रतायेन जाणवता.

कोंकणी रंगमाचेक हालीच्या तेंपार नवो चंवर आयला तो विनोदी शैलीच्या फार्सिकल नाटकांक लागून. ही नाटकां समस्त प्रेक्षकांचीं मनां जिखताना दिश्टी पडटा. पूण तातूंत एक भिरांत उप्रासल्या, ती म्हळ्यार कोंकणी नाटक म्हळ्यार फक्त 'एक विनोद' अशी पिशी समजूत प्रेक्षकांची जायना मू? ना. म्हाका विनोदाक कमी लेखपाचोना. विनोद निर्माण करप म्हळ्यार सादी सोपी गजाल अशेंय म्हाका म्हणपाचेंना पूण कोंकणी नाटक आनी विनोद हाचें एक दुर्दैवी समिकरण जावन पडलां तें पडचें न्हय अशें म्हाका प्रामाणीकपणान दिसता. कारण संवसारांतलो खंयचोय साहित्यीक हो समाजाच्या हुस्क्यानूच बरयता. समाज नितिमत्तेच्या आनी उजुपणाच्या वाटेवयल्यानूच चलचो ह्या अपेक्षेन तो आपली लिखणी झरयता. ह्याखातीर विनोदाच्या आशेन वयल्या अपेक्षेक फाट करप रास्त जावंचेना.

कोंकणी नाटकाच्या मळार नवे नवे नाटककार उदेंतात ही खौशेची गजाल, पूण आपूण कोंकणी सरस्पतीचो एक सेवक, तिच्या उत्कर्शाचो एक प्रतिनिधी हें तांणी विसरूंक फावना. स्पश्टूच सांगपाचें जाल्यार आपली लागणूक जपुनूच तांणी लेखणी हातांत घेवंक जाय.

कैदी नंबर ००१ हें हनुमंत चोपडेकाराचें नाटक त्याच लागणुकेंतल्यान जल्माक आयलां. आयज गांवागांवांतल्या तरणाट्यांकडल्यान कोंकणी नाट्यसंहितेची मागणी येयत आसा. ही मागणी दिसान दीस वाडत आसा.

आमकां फक्त विनोदी नाटकूच जाय अशी मागणी ते करतात. मागणी वायट न्हय पूण विनोदाच्या नांवार कित्याय कितें खडून दिवप सामकें न्हय. हनुमंतान आपल्या ह्या नाटकांत विनोद घेतलाच पूण एक गंभीर विशय प्रेक्षकामेरेन पावयला, देखून ताका परबीं. दोन वर्साच्या माणकुल्या भुरग्यांच्या अपहरणाचेर तशेंच तांच्या निर्घुण हत्तेचेर आदारीत ह्या नाट्यकृतींत लेखकान पुलीस तपासाचो संदर्भ घेवन एक रहस्यमय नाटक आकाराक हाडलां. भुरग्यांचें अपहरण करून लाख लाख रूपयांची मागणी करपी 'किडनॅपर' आयच्या समाजांत पायलेक पंचवीस दिसतात. पूण भुरग्यांच्या मायेन, मोगान तांचे किडनॅपींग करपी एखादोच प्रसंग घडटा, तीच गजाल नाट्यरूपांतरीत जावन कैदी नंबर ००१ ह्या नाटकांत आयल्या. आपल्यांतल्या वांजपणाक लागून घरदार, घोव, समाज हांणी भायरायल्ली एक असहाय्य बायलमनीस भुरग्याच्या ध्यासान, भुरग्याच्या मायेन आनी मोगान इतली गुरफट्टा, की त्या ओडीचें रूपांतर विकृत मनोवासनेंत जाता. तिची एका प्रकारची विचित्र आनी विकृत अवस्था जाता. ह्या विचित्र अवस्थेक पळोवन सगळेच हतबल जाता.

संस्पेंस, कॉमेडी आनी ट्रेजडी अशा तीन आंगानी हें नाटक मुखार सरता. तातल्यातातूंत गीत संगीताचो तशेंच नृत्याचो सांगात लाभिल्ल्यान प्रेक्षकांचें मनोरंजन करपाचेंय भाग्य ह्या कृतीक मेळ्ळां. पूण पुलीस स्टेशनांतलें वातावरण रंगोवपाक आनीक कांय घटना प्रसंगाचो वापर करपाक लेखकाक वाव आसलो. जी कथावस्तू नाटककारान वेंचिल्ली त्या कथावस्तूंत आनीक नाट्य (Drama) अपेक्षीत आसलो. पूण कितेंय काय आसना एका वेगळ्या विशयाचें नाटक म्हूण ह्या नाटकाक येवकार दिंवचो पडटलो.

नाटकांतल्या साबार पात्रचित्रणाचो उल्लेख करचो जाल्यार 'ती' हें मुखेल पात्र खऱ्यानीच संयम आनी सुचकता ह्या दोन धाग्यांनी अतिशय सुरेख विणलां. बाकीचीं पात्रां तशीं न्यायान उबीं जाल्यात. तांच्या तोंडावेले संवाद, तांची मानसिकता आनी भावनिकता सहज उक्तायता. संघर्श तसो, थंडसाणेनूच चलता पूण ज्या विशयाक तो हात घालता तो विशय शेवटाक काळजाक हात

घातल्याबरग रावना.

हनुमंताच्या नाटकांनी ताच्या एकांकीचो वास मारता. एकांकी ही जरी एक नाट्यकृतीच आसली तरीय ती पुराय स्वरूपाची नाट्यकृती न्हय हें तांणी समजून घेवंक जाय. नाटकाक कादंबरी भशेन विस्तारतंत्राचो वापर करचो पडटा. नाटकाचें लेखन थंय आपणावचें पडटा. हनुमंताकडेन तें आसा फकत तांणी ताचो सराव करपाची गरज आसा. ह्या कांय नाट्यलेखनांच्या सरावांतल्यान हनुमंताच्यो मुखावयल्यो नाट्यकृती निश्चितूच प्रगल्भ जातल्यो हातूंत दुबाव ना.

कैदी नंबर ००१ ह्या नाटकाच्या पुराय आशयाचेर बारीकसाणेन विचार केल्यार तातुंतल्या करूणेचो दिश्टावो घडटा. एक विकृत, विक्षिप्त मनोवृत्तीची बायलमनीस म्हूण 'ती' ह्या व्यक्तिरेखेक पळोवचेपरस एका दुर्दैवाच्या आनी परिस्थितीच्या दशावताराक बळी पडिल्ली बायलमनीस थंय नदरेक पडटली हें एक कोडू सत्य आसा. हें कोडू सत्य वाचकांक आनी प्रेक्षकांक कितलें भावतलें तें आतां पळोवचें पडटलें. देखून फुडलीं सगळीं सुत्रां रसिक प्रेक्षका तुज्याच हातांत.

**- प्रा. संजय गोवेकार**
मडगांव



**ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग 'आकार - सामाजीक सांस्कृतीक आनी कला मंडळ' - पैंगीण ह्या संस्थेन गोवा कला अकादेमीच्या ३२ व्या कोंकणी नाट्यसर्तीत २९ ऑक्टोबर २००७ ह्या दिसा सांजवेळच्या ७.०० वरांचेर श्री. दिनानाथ मंगेशकार कला मंदिरांत सादर केलो.**

## पयल्या प्रयोगाचे मानकरी

दिग्दर्शक - कविंद्र फळदेसाय
नेपथ्य - अमोल पागी
मुस्तायकी - सुरज कोमरपंत
उजवाडा येवजण - धनंजय फाळकार
निर्मातो - शैलेंद्र वेर्णेकार
पार्श्वसंगीत - सुधीर पै
रंगवण - मनोज नायक

## भुमिका आनी कलाकार

पी. आय. - गणेश नायक
हवालदार - अमोल पागी
पत्रकार - सुरज कोमरपंत
बबलू - विटोबा वेळीप
खन्नाभाय - दत्ता कोमरपंत
शॉट सर्कीट - लक्ष्मण नायक
डॉक्टर - शैलेंद्र वेर्णेकार
बायल - वनिता गांवस

## खाशेलो आदार

सुदेश नायक, क्षत्रीय कोमरपंत समाज - देवबाग काणकोण.

## अशेंच आनी इतलेंच...

सांगपा सारखें खूब आसा, पूण सांगचोना... बरोवपा सारखें खूब आसा, पूण बरोवचोना... दोळ्यांत दुकां कूप आसा, पूण झडोवचोना...

कारण, नाटयकृतीच्या सादरीकरणांतल्यानूच नाटकाच्या खऱ्या भावार्थाचो दिश्टावो घडटा.... आनी घडपाक जाय.

तरीय एक गजाल निश्चितूच सांगपासारखी. मनशाक सुदैवान दोन हात, दोन पांय, दोन कान, एक नाक, एक पोट, एक फांट, एक जीव एक्सेट्रा... एकसेट्रा जरीय आसलें तरीय खंयच्याय निश्पाप निर्विकार जिवाच्या मानेक घांस मारपाक ताका परमेश्वरान बत्तीस धारदार सुळेय दिल्यात.... खंयचेंय फुलपी फूल किस्सुरपाक आनी ताच्यो ल्हवपीक पाकळ्यो पिसुडपाक वीस नाखटांधारी भालेय दिल्यात... आनी अमुरपिक्या रक्ताचो घोट पिवपाक दर एक मनाक रगतपिशे आवंडेय दिल्यात....

आपल्या ह्या खुनची आवंड्यांच्या पुर्तताये खातीर मनीस नांवाचें हें जनावर खिणाखिणाक तरेकवार पोजडीं रूपडीं चडोवन अंतर्मनांत खोल दांबून चिड्डून उरिल्ल्या अतृप्त अशा रानवटी हावेसांचो कालोर मातयता तेन्ना ताच्या विकृत मनोवृत्तीचें राक्षसी रूप प्रत्यक्षात दिश्टी पडटा... तातुंतल्यानूच जल्माक येता एक नवो गुन्यावकार.... एक नवो कैदी.

**ह्याच काळीज पिनपी सत्यकथेची देख.**
**म्हळ्यार कैदी नंबर शुन्य शुन्य एक**

# अंक पयलो

(सुवात : एका ल्हानशा शारांतले ल्हानशें पुलीस स्टेशन. डाव्यावटेंच्यान सादरण कोनशाक भितर येवपाचें दार. प्रेक्षकामुखार दिसपी वण्टीक दावेवटेन एक जनेल. जनेलाकडेनूच बसपाक एक बाकडो. कुशीक लाकडाचीं दोन स्टुलस. प्रेक्षकांच्या उजवेवटेन भितर वचपाक एक दार. उजवेवटेंच्या दारच्या मुखार मात्शें कुशीक उदकाचो फिल्टर दिसता. मुखावयल्या वण्टीच्या मदल्यान उजव्या कोनशामेरेन जेलीचे वारांव दिसतात.

प्रेक्षकांच्या डाव्यावटेंच्यान पी. आय. धर्मेश लाडांची बसपाची सुवात. टेबल खुर्च्यो, फोन, फाइल्स आदी. फांटल्यान फोटू, गोंयचो वा भारताचो मॅप. डिवटी चार्ट, वॉंटेड आरोपिंचे

भयानक फोटू आनी हेर गरजेच्यो वस्तू. ह्या वेळार मेजार टेपरिकॉर्डर आसा. वण्टीर केलेंडर, घड्याळ. पडदो उगडटा तेन्ना हवालदार सतरकार टेपरिकोर्डर लावन वाकडो तिकडो नाचत आसा.)

हवालदार : (पिराय ३५-४०. पोट माळशें सुटला. धोलत धोलत चलता). (डांस थांबोवन) अब्बा! रांडेचो मियां बघ एकटोच पिसोकसो नाचता हंयसर, मेलो जितो मूस सुध्दा बघूंकना. शीऽऽऽ! कांय ह्यां बकास पुलीस स्टेशन! काय चमत्कार सांगुचो. आजून रांडेचो कोण चोरूय येयलो ना! हंयसर ह्या जेलीचें उद्घाटन करूंक. च्या! सादी चोरी तरी करची कोणी. निदान मारामारी तरी. मियां बाबडो वोगीच बसल्या बसल्या झेमो काडटा केव्हांच्यान हंयसर. पुलीसांत भरती जावंचे पयलीं बघुचां वतां म्हाका. मियां सायल्याची पाटीकसो सडसडीत आसलो. (वाडलेल्या पोटाक पळोवन) आतां बघा खावन खावन धोन फुटलां. च्या! मेलो काय अर्थ ना रंवलो ह्या नोकरेंत, सगळो टेलंट वेस्ट जालो महाराजा... आतां इतल्या तेंपान, म्हणजे पयलेच फावटी एक केस येयली किडनॅपिंगची तर लाड सायबान ती आपलेचकडेन दवरली. च्या मारी टोपी... आमचेर कोणाचो विश्वासूच रंवलो ना... तेंचें म्हणान चुकना हां. रांडेचें हें पोटूच आडवां येता तेका ते तरी काय करतले.
(फोन वाजता. फोन घेता) हेलू! मियां हवालदार सतरकार बोलतो... काय? ... लाड सायब... लाड सायब आजून येवंक ना... आरे... आरे... दवरलो दिसता. (फोन दवरीत) सायबाकडेन काम आसा खंय... जो तो येता आनी सायबांकूच

सोदता. मेलो आमकां काय मान आसा काय ना. आतां हवालदार आसलो म्हणान काय जालां. मियां फकस्त एका चान्साक रावतां... तो, तो खन्नाभाय एकदा म्हाज्या तावडीत सापडूंक व्हयां. मगेर मी इन्स्पेक्टर जालोच म्हणान समजा. (परत टेप लायता. आतां दुसरें गाणें) हवालदार आपल्या धूंदींत नाचत आसा. इतल्यान पी-आय. धर्मेश लाड. तरणाटे इन्स्पेक्टर येता. हवालदाराक पळोवन बेजारता. टेप बंद करता).

पी. आय. : मिस्टर सतरकार हें पुलीस स्टेशन आसा. तुमचें घर न्हय. आनी राव रे. हो टेपरिकोर्डर हांगा कसो पावलो? भितर दवर तो.

हवालदार : सॉरी सायब (टेपरिकोर्डर भितर व्हरून दवरता. ह्यावेळार हवालदार उजवेवटेंच्या दारांतल्यान भितर सरता)

पी. आय. : आनी हें पळय, तो भायर मनीस बसला ताका भितर धाड.

हवालदार : बरें सायब (भायल्यान वयता आनी पत्रकाराक घेवन येता. पत्रकार - पिराय सादरण ३०-३५. सदरो, बोटवो)

पत्रकार : गुड मॉर्निंग मिस्टर लाड.

पी. आय. : (मुद्दाम) इन्स्पेक्टर लाड.

पत्रकार : ओह... सॉरी... गुडमॉर्निंग इन्स्पेक्टर मिस्टर धर्मेश लाड.

पी. आय. : दॅट्स बॅटर.

पत्रकार : आय सेड गुडमॉर्निंग.

पी. आय. : व्हेरी गुडमॉर्निंग... प्लीजऽऽऽ (बसपाक खुणायता) प्लीज बी सिटेड.

पत्रकार : (कार्ड दियत) बसपाखातीर येवंकना हांव

पी. आय. : आय-सी. (कार्ड पळयता) झुंजार तरूण पत्रकार मिस्टर द्वारकानाथ साने... हूं... हॅव अ सिट.

पत्रकार : सांगलें न्हय. हांव बसपाखातीर येवंकना.

पी. आय. : मागीर?

पत्रकार : मिस्टर लाड, तुमच्याकडच्यान खूब अपेक्षा आसल्यो. ह्या नव्याच पुलीस स्टेशनाचे तुमी यंग ॲंड डायनेमीक इन्स्पेक्टर म्हण हांगा आयले तेन्ना हांवेंनूच तुमच्या अभिनंदनाक खास लेख बरयल्लो. पूण... तुमी आमचो अपेक्षाभंग केलो. सॉरी टू से, बट... तुमी इतले फातरा काळजाचे आसत अशें सपनांतूय दिसूंक नासलें.

पी. आय. : तुमी कितें उलयतात...! म्हाका कांय कळूंकना.

पत्रकार : कांयच खबर नाशिल्ल्याचें नाटक करूं नाकात.

पी. आय. : तुमकां कितें म्हणपाक जाय? तुमी मात्शें स्पश्टच उलयल्यार बरें जातलें.

पत्रकार : उलोवया... स्पश्टूच उलोवया... खरें म्हळयार स्पश्टूच उलोवपाक आयलां हांव... पूण कितें आसा जाणा मिस्टर, सॉरी सॉरी इन्स्पेक्टर मिस्टर धर्मेश लाड - मनशाक न्ही एक सेन्सिटिव्हिटी आसची पडटा. 'संवेदनशिलता'! आतां तीच ना म्हण्टकच -

पी. आय. : हें पळयात मिस्टर द्वारकानाथ साने, तुमकां डायरेक्ट उलोवपाचें नासल्यार तुमी वचूं शकतात.

पत्रकार : डायरेक्टच उलयता - म्हाका सांगात इन्स्पेक्टर मि. धर्मेश लाड, फांटल्या पंदरा दिसांनी आमच्या ह्या ल्हानशा शारांतल्यान बेपत्ता जाल्ल्या त्या दोन भुरग्यांचो तपास खंय पावला?

पी. आय. : (वोग्गी)

पत्रकार : इन्स्पेक्टर सायब, हांव तुमचे कडेन उलयता. सांगात खंय पावला तपास?

पी. आय. : तपास चालू आसा.

पत्रकार : (मोठ्यान हांसता) तपास चालू आसा...! 'तपास चालू आहे'...! लज दिसना अशी जाप दिताना...

हवालदार : (मदींच तोंड घालता) हे पत्रकारा... काय वाटेल ते उलोवपाचां काम ना... सांगून दवरतां.

पी. आय. : सतरकार ... रिलॅक्स रिलॅक्स.

पत्रकार : स्वताचेर येतकच दुखता न्ही? दोन तीन वर्सांची अमुरपिकी भुरगीं ना जातकच तांच्या आवयबापायची, घर परिवाराची कितें गत जाल्या आसतली हाचो विचार कोण करतलो? सांगात - उलयात. तरुण तडफदार पुलीस इन्स्पेक्टर मिस्टर धर्मेश लाड आतां तुमची दांतखिळी कित्याक बसली? हें पळयात, लोकांच्या सहनशिलतेचो अंत पळोंव नाकात. ही जनता एकदा जागी जाली जाल्यार तांच्या एका झटक्यान तुमी मातयेंभरवण जातले. याद राखात. येता हांव. (तसोच निडर्कीन मोटी मोटी धेंपा मारीत वता. सतरकार ताच्या फांटल्यान दारमेरेन वयता. बेश्टोच बडबडटा.)

हवालदार : आरे चल रे बांकड्या. खूब बघल्या तुज्या सारखे. चल चल तुज्या माकडाच्या धमक्यांक आमी भिक घाली ना. चल वच.

पी. आय. : सतरकार... हे सतरकार... फांटी सर...

हवालदार : पण सायब तो तुमकां...

पी. आय. : जाणा हांव (बबलू हॉटलांतलो वेटर च्या हाडटा. मेजार दवरता आनी परत वयता)

हवालदार : जाणा काय... तुमी काय बी नकळो सायब, ह्या ह्या पत्रकारांक मद जाला मद.

पी. आय. : आरे सतरकार मात्सो वोगी राव आतां.

हवालदार : ना ना सायब... तेणी तुमकां...

पी. आय. : आतां वोगी रावपाक तूं कितें घेतलो?

हवालदार : (च्यावेच्या ग्लासाक पळोवन) एक ग्लास च्या पुरो सायब (दोगूय हांसतात)

पी. आय. : तूं मरे... एक नंबर पांडू हवालदार सोबता.

हवालदार : पांडू न्हू सायब... लल्लू... लल्लूराम... म्हज्या आज्याचें नांव आसा तां.

पी. आय. : हां हां... (च्या पिता पूण लक्ष ना)

हवालदार : कसलो. इचार करता सायब?

पी. आय. : पंदरा दिसांनी दोन भुरग्यांचे किडर्नेपिंग... सतरकार खंयतरी पाणी मुडता.

हवालदार : सायब, म्हाका दिसता ह्यां काम त्या खन्नाभायनूच केल्लां आसूंक व्हयां... हंयसर हे पुलीस स्टेशन जायतपासून आनी तुमी येयतपासून तेंचो दोन नंबरचो धंदो चौपट जाला. काय मेलो फोनाचेर धमकी दिता, ट्रान्स्फर करता म्हणान तुमकां. मी म्हणता, तुमचो बापूस येवपाक जाय सायबाक ट्रान्स्फर करपाक... तुमकां सांगता सायब, तो खन्नाभाय असो समोर येवंक व्हयो. मेल्ल्याची शेसलीच धाडयलीना जाल्यार नांवाचो सतरकारूच न्हू मियां.

पी. आय : (बेजारून) खबर आसा तुजो पराक्रम. त्या दिसा त्या पॉकिटमाराक धर म्हणल्यार जाचें पाकीट मारिल्लें ताकाच धरून हाडलो तुवें. तुजेकडेन मरे कसलेंच काम सारखें जावपाचें ना. तोंडाचीं बातां मात आयकुचीं तुजीं. (फोन वाजता. उखलता) हॅलो इन्स्पेक्टर लाड स्पिकिंग... कितें!! म्युनिसीपल गार्डनांतल्यात भुरगो ना जालो... केन्नां?... पांच मिनटापयलीं... ओ माय गॉड! हॅलो... हॅलो... हां?

तुमी कोण उलयतात...? म्हाका सांगात शेणिल्लो तुमचो कोण...? हॅलो... हॅलो... हॅलो... डॅमिट... मिस्टर सतरकार कम-ऑन हरी अप... चल बेगीन ड्रायवराक गाडी काडपाक सांग ... क्विक... आमकां बेगीन म्युनिसीपल गार्डनांत पावपाक जाय... चल...

हवालदार : (सलाम ठोकीत) यस सर. (भायर वता)

(पी. आय. बेगीन बेगीन कॅप घालता दांडो घेता. आनी ताकतिकेन भायर वता.)

(काळोख)

(उजवाड जाता तेन्ना हवालदार सतरकार शॉट सर्कीटाक (वय वर्सां - २२-२३) मारता. शॉट सर्कीटाचे दोनूय हात बांदिल्ले आसून ताच्या तोंडाक गुड्डो मारिल्लो आसा.

हवालदार : (केसांक धरून) बोल... खडेन आसा तुजो तो खन्नाभाय? (मारीत) मियां काय इचारता तुका? बोल, खडेन आसा तुमचो अड्डो?

शॉट सर्कीट : (तोंडांतलो गुड्डो निर्देशीत करीत) हूंऽऽऽ हूंऽऽऽ

हवालदार : हूं हूं काय करता... माकड खंयचेकडलो - सारखें उलोवंक कळना तुका?

शॉट सर्कीट : (तोंडांतलो गुड्डो थुकीत) हवालदार सायब सामको लफडा करहेला है? तुम आपुनके मुहमें हे कपडा डालेगा और आपून कैसे बोलेगा... कुछ तो समजा कर मामू...

हवालदार : हे... जास्त शाणपती करूचां काम ना हां... सांगून दवरता. म्हाका हवालदार लल्लुराम सतरकार म्हण्टात ... सांग...

शॉट सर्कीट : हे मामू... आपूनको कुछ मालूम नाय... सच्ची आपकी कसम... अरे समजाकर यार.

हवालदार : मामू काय... रंव तुका आतांच दाखयता पुलीसांचो इंगो (ताका मोठ्या मोठ्यान मारता. तो आड्डुता) बोल बोल.

शॉट सर्कीट : मै सच्ची बोलरहेला हूँ साब... तुमारे डंडेकी कसम.

हवालदार : खामोश! आतां मियां फकस्त पांच मेजतलो. बोललास तर ठीक, नाय तर तुजी तंगडीच मोडून घालता. बघूच तू... एक - तीन - साडेचार - पावणेपांच.

शॉट सर्कीट : बताता हूँ, बताता हूँ साब.

हवालदार : आतां बघ कसो पोपट जालो. सांग खडेन आसतलो सांग....

शॉट सर्कीट : सायब पयले खन्नाभाय झोपडें में रहता था. अब फ्लॅट में रहता है.

हवालदार : वा रे वा! मेलो सांगता बघ फ्लॅटांत रंवता म्हणान. तुका काय दिसलां मी हंयसर तुज्यो काणयो आयकूंक येयला? हवालदार सतरकार म्हण्टात म्हाका, मियां उडटया शेवण्याची पाखां मेजपी. म्हाजेकडेन शाणपणा करूंचा काम ना. बोल.

शॉट सर्कीट : आपुनको इतनाइच मालूम है साब -

हवालदार : (केसांक धरून) हे वानरा, तुका काय मी घनचक्कर दिसलो. मियां पांडू हवालदार कसो दिसलो तरीय तुज्या दोन नंबरचो सगळो रिपोर्ट खिशात घेवन भोंवता हांव... पूण रंव रे, तूं सर्किट सरे - खन्नाभायचो उजवो हात?

शॉट सर्कीट : नहीं नहीं... ना ना... सर्किट नहीं मै शॉट सर्कीट हूँ.

हवालदार : काय शॉट सर्कीट?

शॉट सर्कीट : हां हां... सर्कीट तो दाया हाथ है. और मैं बायां.

हवालदार : बरं बरं आसा. आतां म्हाका सांग तुजो तो खन्नाभाय खंडेन मेळटलो?... ना ना आतां तुजी सुटका ना. सांग... तो खन्नाभाय सापाच्या बिळान जरी रिगला आसलो तरीय मियां तेका असो हात घालून फरफडीत भायर काडीना जाल्यार नांवाचो सतरकारूच न्हू - काय?

शॉट सर्कीट : जी जी साब.

हलालदार : जी जी काय... बोल खंयसर रंवता तो.

शॉट सर्कीट : मालूम नहीं साब

हवालदार : मालूम ना... हिंदी मारता म्हाजेकडेन... रंव तुजी हिंदीच काडटा भायर... बोल किदर है तुम्हारा सांन्याका अड्डा? बोल मेरे शॉट सर्कीट. नही बोला तो तुम्हारा चिमणगोंटा कर दुंगा. हात पांय तोड दुंगा? दोळे फोड दुंगा. सुवर के बच्चे मैं तुजे जलाकर गोबर कर दुंगा.

शॉट सर्कीट : साब...

हवालदार : बोल खडेन है तुम्हारा भूतबंगला... बोल नही तो तुम्हारे तकलीके सौसो तुकडे करके कुत्रेको डाल दुंगा.

शॉट सर्कीट : (हवालदाराच्या पांयार घालून घेता) साब आपको खन्ना भाय का पत्ता मांगता ना. मै दे दुंगा लेकीन आपकी हिंदी जरा... प्लीज मै आपके पाव पडता हूँ.

हवालदार : ठिक है ठिक है. बोल किदर है... (सावरत) खंय आसा तुजो खन्ना भाय?

शॉट सर्कीट : चर्च के पिछे खंडर में.

हवालदार : घबराव मत. मैं तुम्हे... (सावरत) म्हणजे मियां तुका माफीचो साक्षिदार करता... घाबरू नाका. (हांसता) आतां म्हाका राष्ट्रपतीचा पदक कशें मेळना तेंच मियां बघताय. (राक्षसासारखो हांसता... कांय खिणांत पुलीस-सायरनाचो आवाज. काळखांत कितेंतरी घडून गेल्ल्याचो आभास. परत उजवाड. आतां फक्त हवालदार दिश्टी पडटा. तो बाकड्यार न्हिदला.

'निवेदन :- ह्यो खबरो तुमी आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रावेल्यान आयकतात. फामाद गुंड खन्नाभाय आनी ताचो साथीदार शॉर्ट सर्कीट हांका व्हडा धिटायेन धरून दिल्लेखातीर चर्च स्क्वेयर पोलीस स्टेशनाचे हवालदार एल. डी. सतरकार हांकां राष्ट्रपती पदक जाहीर जालां. तेच वांगडा तांका पुलीस सबइन्स्पेक्टर म्हूण बढती मेळ्ळ्या... आमचे स्थानिक प्रतिनिधी...' निवेदन ल्हव ल्हव कमी जायत वता. हवालदाराक जोम चडटा. तो छाती मुखार काडून सलामी ठोकता... लश्करी संगीत. हें सगळें चलताना ताचे दोळे धांपिल्ले आसात.

(ह्याचवेळार बबलू न्युजपेपर घेवन येता.)

हवालदार : (न्हिदेंतूच) जय हिंद... भारत माता की जय... जय हिंद.

बबलू : जालें - मुंगेरीलाल के हसीन सपने सुरू जालें. ह्या पुलीसांचें एक बरें आसता. एक तर ते तुमकां 'खाताना' दिसतात ना जाल्यार न्हिदताना. काम करताना दिसलेच जाल्यार समजुचें आतां रोकडेच ते खावपाक बसतले. (मुखार येयत) सायब... हवालदार सायब... सायब हो सायब... आवयचो घोव ना घरा असो उठपाचो ना हो. (चितून) चोर चोर चोर... धांवात धांवात... चोर चोर (हवालदार ताटकन उठ्ठा... भियेवन तो बाकड्यापोंदा (रिगता.)
होऽऽऽ सायब... अशे चोराभशेन खंय लिपतात?

हवालदार : (बोट तोंडार धरून) शूऽऽ वोगी राव.

बबलू : हवालदार सायब तुमी कित्याक लिपतात? चोरांनी लिपपाचें आसता. पुलीसांनी न्हू.

हवालदार : (सावरत भायर येता) अरे हट! लिपून रंवच्याक मियां काय तुका घनचक्कर वाटलो.

बबलू : घनचक्कर न्हू तर कितें -

हवालदार : काय?

बबलू : कोण तो डायरेकट्टर? कोण तो घनचक्कर म्हण्टा आमच्या सायबाक. एक एकल्याक भितर घालतलो हां.

हवालदार : बरोबर

बबलू : पूण सायब, तुमी बाकड्याखाला कितें करताले?

हवालदार : तेचें काय आसा बबल्या - ती ना आमची इस्टायल आसा. म्हणजे बघ हा... म्हणजे असो लपून छपून रंवल्यान चोरांवर अशी झडप घालपाक मेळटा. (बबलूचेर फांटल्यानसून झडप घालून. वेंगेंत घट्ट धरता) पकडलो पकडलो.

बबलू : सायब सायब... हें कितें चल्लां तुमचें? तुमी चोराक सोडून

सन्याशाक धरल्यात.

हवालदार : कोण सन्याशी? तूं? (हांसता)

बबलू : मागीर हांव तुमकां चोर दिसलो?

हवालदार : तसा नाय रे ... तूं म्हाजी फकाणां केली मां. मी म्हणलां थोडी तुजीय करूंची. पण तुयें मदींच तोंड खुपसला आनी म्हाजां राष्ट्रपती पदक घेवंचां मात रवलां. तुज्या च्यायेचो ग्लास फुटचो तसो खिळखिळो केलो तुये म्हाज्या स्वप्नाचो.

बबलू : सायब आयज कोणांक धरिल्लो?

हवालदार : खन्नाभाय आनी शॉट सर्कीटाक.

बबलू : कितें सांगता!!

हवालदार : मगेर!

बबलू : पूण सायब, म्हाका सांगात - तुमच्या मिशांक पळोवन ते भियेले काय पोटाक पळोवन?

हवालदार : हे बघ बबल्या म्हाज्या पोटार चडों नाका हां.

बबलू : हां -

हवालदार : म्हणजे आपलें - पोट वयर काडूं नाका. सांगून दवरतां अगोदर (हवालदार रागान फडफडटा)

बबलू : सायब तुमी इतले हुशार हँडसम, कर्तबगार, संयमी, सेंटीमेंटल पूण पोटाचें नांव काडटाच अशें तिडकता कित्याक?

हवालदार : त्याचां काय आसा बबल्या -

बबलू : काय आसा?

हवालदार : तेची ना एक इस्टोरी आसा. ऐकूची आसा?

बबलू : इर्शाद इर्शाद (पेपर मेजार दवरता)

हवालदार : मगेर ऐक (सांगपाक सोदता. पूण सुचना.) बघ हा... ही इस्टोरी म्हणजे ना... रिअल आसा... तुका सांगता बबल्या तेंचें तें हें ह्यां आसा ... तां ... म्हणजे बघ हां...

बबलू : इंट्रोडक्शन कळ्ळें. आतां विशयाक हात घालात.

हवालदार : हा... तर मियां आमच्या सार्वजनिक गणेशाच्या विसर्जनाक गेल्लो. म्हणजे असो. (पोट धरून चलून दाखयता) तर मियां असो फुडें आनी गणपतीची पिकअप फाटी. म्हणजे मागे. (फोन वाजता. हवालदार फोन घेता.)
हॅलू...! चर्चस्वॅयर पुलीस स्टेशन मदल्यान (खाकीत) मियां हवालदार गणपती बोलतोय.

बबलू : कितें गणपती!

हवालदार : म्हणजे सतपती ... म्हणजे मिया हवालदार सतरकार, लल्लुराम सतरकार बोलतोय. (खर्शेता)... काय, मोराचो तपास? मोराचो तपास करपाक हें काय पोल्टी फार्म, काय बर्डस् सेंच्युरी! ... हां हां ... पोराचो तपास...? अच्छा अच्छा तुमचो पोरगो ... हां ... पंदराच दिवस जाले मां. आनीक चार दिवस वाट बघा... नायतर अशें करा... आशी कुशीक खचिक बिर्चीक खंय - - - आसतलो. सारखो बघा. आनी मेळटकूच आमकां मान्शें कळयांत. हां... (तापून) आतां दवरात फोन. (फोन आपट्टा) म्हाका शाणपणा सांगता.

बबलू : कोण शेंणलो आनीक...?

हवालदार : ते रे तीन झिल ना जालेत ते.

बबलू : हें प्रकरण बरेंच मोटें आसा हां सायब.

हलालदार : मरो रे ते... मेल्यांची रोजचीच कटकट. हेंका भुरगे सांबाळूक कळना जाल्यार ती काय आमची चूक. च्या आयला. कंटाळो खंयचेकडलो... हां तर मियां काय म्हणटालो.

बबलू : तें आपलें गणपती विसर्जन.

हवालदार : हां... बरोबर... तर आमच्या सार्वजनीक गणपती विसर्जनाचो कार्यक्रम आसलो. तर मियां असो चलत आसलो.

| | | |
|---|---|---|
| बबलू | : | तें जालें गणपती फुडे तुमी फांटी. तें कळळें फुडें उलयात. |
| हवालदार | : | मियां गणपती बाप्पा मोरया. गणपती बाप्पा मोरया म्हणीत फुडे वयतालो. तर फांटल्यान पोराट्यांनी काय करूंचां...? |
| बबलू | : | काय? |
| हलालदार | : | मेल्यानी गणपतीक सोडलो बाजूक आली म्हाज्याच फाटल्यान लागले. गणपती बाप्पा मोरया गणपती बाप्पा मोरया म्हणीत बऱ्या वगतान फांटल्यान बघ जाल्यार काय सगळीं पोरां बाळां रांडेचीं म्हज्याच पोटाक बघून हांसतात. तुका सांगता बबल्या, ह्यां सगलां ह्या धोलाक लागून जाता. |
| बबलू | : | तरीय बरो तुमकांच गणपती समजून बुडयलो ना तेंच्यानी. |
| हवालदार | : | काय रे फकाणां करतय म्हाजी? |
| बबलू | : | कितें उलयतात सायब. तुमची फकाणां! तितली आमची खंय हिम्मत आसा. सायब एक उपाय सुचोवं? |
| हवालदार | : | डायटींग - बियटींग सोडून काय आसा जाल्यार बोल. |
| बबलू | : | सायब तुमी सद्दां शंबर उठाबश्यो काडात. पोट एकदम सपाट जातलें. |
| हवालदार | : | तुजी तकली सुटल्या कायरे... शंबर उठाबश्यो काडून म्हाका मारपाचो प्लॅन आसा काय रे तुजो. |
| बबलू | : | बरे आसा शंबर ना जाल्यार पन्नास काडात. |
| हवालदार | : | जमचेंना. |
| बबलू | : | निदान चाळीस तरी. |
| हवालदार | : | हे बघ तुजेय नाका म्हाजेंय नाका पंदरा काडटा. |
| बबलू | : | तुमी कितें बाजारांतली भाजी विकत घेतात - करात सुरू ... पोट कशे बारीक जातले?... चलात एक दोन... |
| हवालदार | : | करता करता (उठाबश्यो काडल्याभशेन करता) एक दोन... सात... बारा... अठरा |

बबलू : हे लल्लु, हवालदारपणा करूं नाका.

हवालदार : हां!

बबलू : म्हणजें फटींगपणा करूं नाकात (तापून) काडात उठाबश्यो.

हवालदार : अब्बा! हो हंगसर ऑर्डर सोडूंक लागलो. रंव रे, हंयसर हवालदार कोण... तूं काय मी?

बबलू : तुमी...

हवालदार : मगेर ऑर्डर मी सोडटलो. चल वच आनी म्हाका चार बटाटवडे आनी एक डबलच्या घेवन यो. चल वच. (खुर्चेर बसून पांय मेजार पसरता)

बबलू : हाडटा हाडटा (लागी येता. हवालदाराचे पांय चेपता) सायब रागार जांव नाका. म्हजेकडेन एक - एक स्पेशल उपाय आसा... पोटाखातीर?

हवालदार : सांग.

बबलू : पूण आसूं तुमकां वोगीच खर्च.

हवालदार : ती काळजी तूं करूं नाका - फुडे बोल -

बबलू : पोट जिरयपी स्पेशलिस्ट डॉक्टर येयला आमच्या लॉजांत. डॉ. पोटफुगे... मोठ्या मोठ्या लोकांची मोठी मोठी पोटां उडयल्या तेणी कापून.

हवालदार : कापून? (भियेता)

बबलू : म्हणजे जिरयल्यात तेणी. आनी जांची जिरना तांचेर हिप्नॉटिजमचो उपाय करून डायटींग करून घेतल्या पूण तेंची फी माल्शी सुबेज... ना... तुमकां परवडचीना ती.

हवालदार : (तापून) परवडचीना परवडचीना म्हुणीत म्हाज्या इज्ञतीचो फालुडा रे कित्याक करता तूं. चल वच तेका घेवन यो.

बबलू : जशी आज्ञा महाराज (सलाम मारून वता)

(हवालदार पाय हालयत. बिनदास्त बसता. इतल्यान शॉट

सर्कीट येता. हेवटेन तेवटेन पळयता.)

शॉट सर्कीट : भाय... आ जायो भाय... सब सेट कियेला है घबरानेका नही भाय, अपून है ना... भाय.

(खन्नाभाय गुंड प्रवृत्तीचो २८-३० वर्सांचो तरणाटो आपल्या स्टायलीन येता. सुबह हो गयी मामू... गाणे आयकूंक येता. तो हेवटेन तेवटेन पळोवन जनेलाकडेन येता. बाकड्याचेर पांय दवरून सिगरेट काडटा. तोंडांत एक सिगरेट घालता.)

हवालदार : (तांका पळोवन) हे... हे कोण तुमी... आनी भितर कशे इल्यात?

शॉट सर्कीट : दरवाजेसे. क्यो, आप लोग क्या खिडकीसे आते हो? (हांसता) क्या हलालदार साहब पहचाना नहीं अपुनको... अरे अपून शॉट सर्कीट... अरे वहीचरे... नही पहचाना.

हवालदार : तूं... तूं सर्कीट?

शॉट सर्कीट : शॉट सर्कीट रे... तुमको खन्नाभाय को पकडना है ना... बोल ना... रूक इधरीच तेरेको दिखाता हूं. (खन्नाभायक दाखयत) देख - - है हमारा प्यारासा नन्नासा - खन्नाभायऽऽऽ डी. एस. पी.

हवालदार : डी. एस. पी.

खन्नाभाय : डिस्टीक सुप्रीटेंडेंट ऑफ पॉकेटमार. लायसेन्स है आपुनके पास. पर दिखाऊंगा नही... क्या है ना, मेरेको तेरेसे प्रायवेट में बात करनेका है... एकदम कोन्फीडेंट. बोलेतो शिक्रेट... तो हलालदार सत्तावनजी.

हवालदार : (तापून) सत्तावन न्हू... सतरकार म्हण्टात म्हाका, लल्लुराम दयाराम सतरकार.

खन्ना : वहीच रे वहीच - अरे बॉस, टेंशन नही लेने का. देख मामू, आपून बहोत डेंजर आदमी है. आपून से उंची आवाज में

सिर्फ आपुनही बात कर सकता है। क्या समजे? अगर आपूनकी खोपडी फिरलेयी ना तो तुमारा खोपडा खोपडा नही रहेगा वो तुटा झोपडा हो जायेगा (हांसता)

शॉट सर्कीट : भाय भाय... आपून है ना... (ताका समजयत) आप आप बैठीयेना भाय... मै संभाल लुंगा इस चिपकली को (हवालदाराक) देख हवालदार साहब, आपुनको इधर पुलीस स्टेशन में लफडा नहीं मांगता.

हवालदार : (गगान) पयले बोलो तुमी हंयसर कायको इल्यात?

खन्ना : ये सडे उये टमाटर, खालीपिली दिमाग मत चाट, आपून की दिमाग की घंटी बजी ना तो फीर तेरा घंटा बजा दुंगा. (हवालदार फुरफुरता).

शॉट सर्कीट : भाय भाय... मैं... मैं हूँ ना.. (हवालदाराक) हे सायब, फोकट में क्यो मरना चाहते हो... सुनो पयले मेरी बात तो सुनो

हवालदार : चुनो. चुनो, चुनो लायात तुमच्या हेका.

शॉट सर्कीट : हवालदार तेरेको मालूम? ये खन्नाभाय है.

हवालदार : (हांसता) खन्नाभाय...!! वा!! हंयसर आतां कोणूय कार्टून येना आनी आपणाक खन्नाभाय म्हण्टा. वा!

शॉट सर्कीट : सच्ची... यहीच खन्नाभाय है.

हवालदार : हो खन्नाभाय जाल्यार मियां दाऊद भाय आसा. (हांसता) काय मेलो ज्योक करता. हो झामरु खन्नाभाय (परत हांसता. खन्नाभाय गगान शर्ट वयर काडून भितर पेंटीच्या बेल्टाक आडकयल्लें फेस्तुल काडटा आनी हवालदाराच्या तोंडांत घुसयता)

खन्ना : (गोलाक धरता) तेरी तो... साले, सडे उये अंडे की ऑमलेट. अब बोल. बोल... साला हसता ही जा रहा है, हसता ही'

जा रहा है, रुकनेका नाम ही नही... (ह्यावेळार शॉट सर्की
दाराचेर पाळत दिता) क्या रे, तू हंड्रेड स्पीड में जायेगा औ
आपून क्या इधरीच खडा रहेगा? हे सर्कीट -

शॉ. सर्कीट : शॉट सर्कीट - भाय -

खन्ना : आरे वहीच रे... दरवाजा पकड

शॉट सर्कीट : पकडा भाय - कोई टेंशन नही लेनेका

खन्ना : सब बाहर सेट कियेला है ना?

शॉक सर्कीट : बिनदास्त भाय. जॉनी, रघू, पेंद्या, पप्पू सब रेडी है भाय.

खन्ना : (एक पांय वयर दवरून) बहोत बोला तूं ... अब अपू
बोलेगा और तूं सुनेगा. बोले तो - ऐसाइच् सुनेगा. (फेस्तू
तोंडांतूच) बॉस, आपूनको मालूम है तुम लोग आपून लोगोर्क
वाट लगानेका सोच रहला है. लेकीच आपुनको पर्वा नही...
देख, देख - हवालदार साडेसत्तावन (सतरकार नांव सारखे
न्हय अशें सांगपाचो यत्न करता. तोंडांत फेस्तूल आशिल्ल्यान
जमना.) अरे वहीच रे. देख, आपून की बात ध्यान से सून.
अरे लायफ में ना एक दुसरे की हेल्प करना मांगता. तुम
लोग ना इधरइच सडा रहला है. देख आपुनको डायरेक्ट
बात पसंत है. तेरा वो इन्स्पेक्टर हैना, उसे मेरेको दो
MMS भेजना है... MMS बोले तो SMS. नंबर वन - तेरे
उस इन्स्पेक्टरने आपुनके धंदे की वाट लगा दी. आपुनने
उसे डराया धमकाया लेकीन वो साला हिरो सुनताइच नही.
क्या है ना. तूं ना... जरा इंटलिजेंट आदमी लगता मेरेको.
उसको जरा समजा. बताना मिल बाटकर खायगे - ऐश
करेंगे.

अब SMS नंबर दो. (सतरकार हूं हूं म्हणीत फेस्तूल काडपाक
विनयता) कुछ बोलना है.

हवालदार : (मानेनच) हूं हूं (हय)

खन्ना : तो फीर बोलो ना. (फेस्तुलाक पळोवन) सॉरी सॉरी बॉस. सॉरी मिस्टेक हो गयी... क्या है ना आपून का दिमाग गरम हो गयाना तो फीर वो बिचमे कॅमीकलका लोचा होता है. पर बॉस, टेंशन नही लेनेका क्या? (फेस्तूल तोंडांतल्यान काडून) सॉरी बॉस. सच्ची. क्या है के ये कॅमिकल का लोचा मेरेको Angree Young Man बनाता है. बोले तो?

शॉट सर्कीट : अभिताभ बच्चन - भाय

खन्ना : हे सर्कीट बीच में शॉट सर्कीट नही करनेका. कितनी बार बताया तुजे. डिस्टब होता हूँ मै. अबी तो रिवर्समें लेना पडरहेलाना. हे खाकी, बोल क्या बता रहा था मै...

हवालदार : (भियत) SMS नंबर दो.

खन्ना : हां. और उस इन्सपेक्टर के बच्चे को कहना. हमारा उस बच्चों के किडर्नपिंग में हात नही है.

शॉट सर्कीट : पाँव भी नही भाय

खन्ना : हे सर्कीट. कितनी बार शॉट सर्कीट करोगे तुम. समजा कर यार. बिजनेसकी बाते हो रहली ना? फीर?

शॉट सर्कीट : सॉरी सॉरी भाय...

खन्ना : तो हवालदार पावने सत्तावनजी. वो किडनेपिंग का लफडा आपून को नहीं मांगता. बता देना तुमारे बडे साब को. वो हिरो - साला हमारे बार में छापा डाला. उसे जरा समजाना. कहना, फोकट में शहीद होगा. सच्ची बता रहलेरा हूँ. रास्तेमें ही टपका डालूंगा मै.

शॉट सर्कीट : भाय खाली पिली पुलीस के लफडे में क्यो पडनेका. ट्रास्फर करते है ना भाय. सिधे झुमरीतलय्या. हो जागेया भाय. कोई टेंशन नहीं लेनेका.

खन्ना : समजा समजा उसको (कुकाऱ्यो आयकूंक येता)

शॉट सर्कीट : भाय - कोई आयलेयरा है - जल्दी करो.

खन्ना : हे शॉर्ट सर्कीट (जनेलाकडेन वचून) यहीच क्वाटर्समें रहता है ना ये?

शॉट सर्कीट : वहीच भाय.

खान : घर में कौन कौन है?

शॉट सर्कीट : दो छोटे चिंटू मिंटू और भाभी भाय

खन्ना : तो फीर समजाना इसे

शॉट सर्कीट : (हवालदाराक समजोवपाक येता. पूण तो तोंड उगतें दवरून घट्ट जाला.) इसका तो फिव्ज उड गया भाय. (दोगूय हांसतात. वयता. 'हे तो होई गया - गाणें. कांय खिणांनी एक बायलमनीस ५५-६० वर्सा पिराय - रडत रडत येता. तिच्या पिरायेपरस तिच्या परिस्थितीक लागून ती चड म्हातारी दिसता.

बायल : सायब... सायब... हो इन्स्पेक्टर सायब. सायब इन्स्पेक्टर सायब (जागो जाता) गरीबाचेर उपकार करात. पदर पसरतां हांव. पांया पडटा तुमच्या... सायब सायब (पांयार घालून घेता)

हवालदार : हे हे... काय चल्लां... आनी कोण तुमी?

बायल : सायब... आतां तुमचोच बरवंसो आमकां गरीबांक सायब, सायब आतां तुमीच आमचे देव - सायब (रडटा)

हवालदार : आगे कसलो खेव येयला तुजेर? फांटी सर पयलीं... (ती फांटी सरता) आतां सांग असा काय जालां... खडेन उजो पेटला?

बायल : उजो... उजो ... म्हाज्या काळजाक पेटला... म्हाज्या म्हाज्या हड्ड्याक पेटला.

हवालदार : म्हणजे?

बायल : कितें सांगू सायब... म्हाजो म्हाजो पोर... (रडटा) म्हाजो पोर शेणला सायब... (रडटा)

हवालदार : काय...! तुमचोंय झिलगो शेणलो. च्यामारी टोपी! हें प्रकरण भलतेंच वाडूंक लागला.

बायल : सायब... म्हाजो पोर खंय आसतलो...तेका बेगीन सोदून काडात सायब... म्हाजो एकुलतो एक पोर (रडटा)

हवालदार : (रजिस्टर घेवन) बरें म्हाका सांगात तुमचो झिलगो किती वर्सांचो आसा?

बायल : दोन वर्सांचो.

हवालदार : (निका बारीकसाणेन पळयत) तुमकां ह्या वयात दोन वर्सांचो झिल! खरें दिसना.

बायल : (गडबडटा) अशें कितें करता सायब. म्हाजो पोर म्हणजे म्हाजो नातू... हय हय नातू.

हवालदार : (दुबावान) एकुलतो एक?

बायल : तेचीं आयव बापूय ना... दोन वर्सापयलींच तीं भायर पडलीं.

हवालदार : झिलगो दोन वर्सांचो आनी आवय बापूस वारलीं तेकाय जालीं दोन वर्सां -

बायल : म्हणजे. तो जालो नाच्या दोन दिसांनीच म्हाजी सून आनी पूत... (रडटा)

हवालदार : बरें बरें... मियां तुमची कम्प्लेन लिहून घेता. (हवालदार रजिस्टर उगडटा. बग्यता) हा... आज तारीक -

बायल : दोन सप्टेंबर... आनी वाजली किती

बायल : दोन जावपाक जाय.

हवालदार : अरे वा! सगळेंच दोन दोन... आयज मुंबय लायल्यार बरो दिसता. - हां झिलग्याचां नांव काय?

बायल : झिलगो?

हवालदार : पोर पोर - पोराचा नांव काय लिवचां?

बायल : तें हें... आपलें ... पूण सायब म्हाजो पोर मेळटलो न्हू? खूब गोड आसा पोर म्हाजो.

हवालदार : मेळपाक पयली नांव नाका... नांव सांगात -

बायल : नांव? (तिची नदर - फायलींचेर भोंवता)

हवालदार : झिलग्याचें नांव! कितें बरोवं?

बायल : (रडटा) कितें सांगू नांव! म्हाजें कपाल -

हवालदार : 'म्हाजें कपलां' (बरोवपाक वता. शादूर जावन) हां! ह्यां काय नांव जालें? हो बाई नांव नांव काय झिलाचां?

बायल : कोणाच्या?

हवालदार : तुमचो झिलगो - म्हणजे नातू शेणला मां तुमचो?

बायल : हय हय (रडटा)

हवालदार : मगेर नांव काय तेचें?

बाय : ह... ह... छोटू - बंटी कितेंय (तिचें कुशीक दवरिल्ल्या फायलींचेर लक्ष आसा)

हवालदार : कितेंय?... बरें म्हाका सांगात तो शेणला खंयच्यान?

बायल : कोण?

हवालदार : च्या मारी टोपी. ह्या बायलेचां कायच खरें ना. हो बाई - तुमी हंयसर बसात मियां तुमकां पाणी घेवन यता. तुमचें बोड मात्शे थंड करात पयलीं (भितर वचपाक -)

बायल : पूण हवालदार सायब त्या दोन भुरग्यांचो तपास लागलो न्हय?

हवालदार : लागतलो हां लागतलो. रंव रंव, मियां पयलीं तुका पाणी पाजता. (हवालदार फिल्टरांतलें उदक घेता. उदक सोंपलां. देखून तो बेजारून भितर वता.) ह्या पाण्याक आजूच सोपपाक

जाय आसलें. (तो वतकच ती उठ्ठा. इन्स्पेक्टरच्या मेजाचो खण उगडटा. कांय मेळना. सगळें उस्तून उडयता. उपरांत रजिस्टराचें पान पिजून काडटा. खणांतलो फोटूय काडटा. दोनूय वस्तू पदरांत लिपयता. बेगी बेगीन भायर पळपाक - हलालदार उदकाचो ग्लास घेवन येता.)

हवालदार : घेयात पाणी घेयात

बायल : पूण सायब म्हाज्या छोटूक मात्सो सोडून दियात... उपकार जानले. देव तुमचें बरें करतलो... म्हाज्या म्हातारपणाचो एकुलतो एक आदार तो (रडटा)

हवालदार : घाबरू नाकात... सगळें सारखें जातलें. (ती उदक पियेता. एकाच दमांत सगळें उदक सोंपयता. हवालदाराकडेन ग्लास दिता. हवालदार ग्लास थंयच दवरून फिल्टर भितर व्हरता. हीच संद सादून ती पळटा. कांय वगतान गुंड - खन्नाभाय चोर - पावलांनी भितर सरता. कोण ना तो पळोवन बेगीन फायल्स सांदना. सगळें उस्तिल्लें पळोवन बेजारता.

खन्नाभाय : साला आपुनके पयले किसेने डाका डाला इधर. हे साला शॉट सर्कीट भी शाणपती करता फुकटमें . एक काम नही करेगा ठीक तरहसे... (तो आपलो मोबायल डायल करता. कानाक लायता) हें शॉट सर्कीट किधर है तूं? एमर्जन्सी है, बोले तो जल्दी है. देख इधर तो लोचा हो रहला है... अरे पयले सून. वो फोटो FRI सब गायब है इधर से - मालूम? तूं एक काम कर. (मोबायलाचेर उलयत उलयत भायर वता. 'सुबह हो गयी मामू' - गाणें... कांय खिणात हवालदार फिल्टरान उदक घेवन येता. जाग्यार दवरता. उपरात त्या बायलेक सोदता)

हवालदार : च्या मारी टोपी. ही बायल खडेन गेली? फायल्स पळयता.)

आरे हें आनी कोणी केलें (सारख्यो करता) ही बायल खंय गेली? आरर्रा! (जनेलाकडेन वता) आरे ही बायल खंय वयता? हो बाई हो... फोटू तरी दियात झिलाचो... अब्बा! फोटू म्हटल्यार ही धांवता कित्याक? हो बाई. रंव रंव... धांवता खडेन? हो बाई... बाई (असो उलो मारीत मुखेल दारांतल्यान धांव मारता. फकत जनेलांतल्यान उजवाड दिश्टी पडटा. काळोख)

(उजवाड जाता तेन्ना बबलू आनी डॉ. पोटफुगे मोठ्या मोठ्यान उलयत येतात. डॉ. पोटफुगे - पिराय - ५०-५५. ताचें पोट सुटलां. पेंट देंवता. तिका बेल्ट घातला. दोळ्याचेर जाड फ्रेमीचें वक्ल लायता. तें मदी मदीं तकलेर दवरपाची सवंय. त्यानभायर हातांत दोतोरकीचें सामान आसा. वेटर - बबलूच्या हातांत बटाटवडे घातिल्ली प्लेट आनी च्यावेचो ग्लास आसा).

बबलू : सायब... हो हवालदार सायब (हवालदाराक सोदता)

डॉ. पोटफुगे : (नाखयां उलयता) कितें जालें बबलू शेट? आमचो पेशंट शेणलो काय कितें?

(बबलू हवालदाराक सोदता)

बबलू : गव हां नगीय पळयता हांव. (भितर वता. डॉक्टर सगळ्याक नदर मारता. बबलू परत येता) कोणूच कसो ना हांगा हो सायब... हवालदार सायब...

डॉक्टर : वा! पुलीस स्टेशन बरेंच नवें आसा मरे. सामके कोरें करकरीत.

बबलू : हय डॉक्टर. हें आवट-पोस्ट हालींच सुरू जालां. आमच्या मि. एमान तेंचें आपल्या शुभहस्तें उद्घाटन केलां. पूण अजापाची गजाल म्हुटल्यार आजून एकाय चोरान ह्या प्रेजाचें उद्घाटन करुंकना.

डॉक्टर : म्हण्टकच ह्या वाटारांत लॉ ॲण्ड ऑर्डर बरी आसा अशें समजुपाचें?

बबलू : लव आनी ऑर्डर!

डॉक्टर : म्हळ्यार कायदो... सुव्यवस्था.

बबलू : कायदो आनी कडक... हूंऽऽ कायदो खंयचो. भायल्यान चित्र बरें दिसता पूण भितरल्यान सगळें खळखळा.

डॉक्टर : म्हणजे?

बबलू : आतां हेंच पळयात. ह्या दिसानीच ह्या शारांतले ल्हान ल्हान भुरगे किडनॅप जातात. सगळ्याक लोक भियेवन रावल्यात आनी हांगा ह्या आवट-पोस्टांत सादो एक हवालदारना... तुमकां म्हूण सांगता डॉक्टर. हो सायब आसा न्हू... तो सि. एमाचो पुतणयो म्हूण सुटला नाजाल्यार -

डॉक्टर : म्हण्टकच हें प्रकरण बरेंच फुगतलें तर?

बबलू : फुगतलें? फुगतलें खंयचें फुगलें फुगलें. आतां केन्ना फुट्टा तें पळोवपाचें.

डॉक्टर : फुट्टा म्हणजे?

बबलू : डुडुम ठोऽऽऽ बॉम्ब स्फोट जाल्ल्याभशेन धमाको जायना जाल्यार पळयात तुमी - डॉक्टरसायब तुमकां कितें दिसता ह्या प्रकरणांत कोणाचो हात आसा?

डॉक्टर : म्हाका कशें कळटलें? हांव कितें डिटेक्टीव रे?

बबलू : डिटेक्टीव न्हू. पूण एक अंदाज काडूं येता न्हू.

डॉक्टर : अंदाज म्हळ्यार... पळय बबलू, हांव दोन म्हयन्यांतल्यान फक्त आठ दिसांखातीर म्हज्या पेशंटाक तपासपाक हांगा येता. हय मरे?

बबलू : हय.

डॉक्टर : मागीर हांव कसो किते सांगतालो... पूण एक गजाल. हें मरे सिरीयल किडनॅपिंगाचें आनी सिरीयल किलिंगाचें प्रकरण दिसता म्हाका. (पत्रकार येता. दारार उबो रावता)

बबलू : म्हणजे?

डॉक्टर : म्हणजे एकाच मनशान ह्या भुरग्यांक किडनॅप करून मारल्या आसूंक जाय.

बबलू : एकाच मनशान...

पत्रकार : नो...नॅव्हर... हें एका मनशाचें काम आसूंक शकना.

बबलू : कोण पत्रकार तुमी?

पत्रकार : (भितर येता) यस.

डॉक्टर : पत्रकार...?

पत्रकार : (कार्ड दियत) व्दारकानाथ साने - 'दैनिक युवा भारत'

डॉक्टर : (कार्ड घेवत हात दिता) डॉक्टर पोटफुगे -

पत्रकार : नाय्स मिटींग यू

डॉक्टर : सो. मिस्टर पत्रकार, तुमकां खरेंच दिसता. ह्या सगळ्या फांटल्यान गँग आसतली म्हूण.

पत्रकार : हांवे तशें खंय म्हुटला.

डॉक्टर : मागीर?

पत्रकार : एका मनशाचें काम आसचें ना. इतलेंच म्हटलां हांवें.

डॉक्टर : It is one and the same thing - एक मनीस न्हय जाल्या गँगूच -

पत्रकार : नो ... गँग न्हय... हाच्या फांटल्यान प्रोफेशनल गँग आसूंक जाय.

डॉक्टर : आर यु श्युअर?

पत्रकार : Of course - त्याशिवाय हें प्रकरण इतल्या Systematically Handle जावकंच शकना. तुमीच चिनून पळयात कितल्या फिशालतायेन तांच्यानी पुलिसांच्या हातार तुगी दिल्या ती - त्या किडनॅपरांनी.

बबलू : सामकें तुमचें सायब.

पत्रकार : आतां हेंच पळयात. पि. आय. आपल्या जाग्यार ना. हवालदार गायब आसा. तुमकां सांगता डॉक्टर हांगा ह्या पुलीसांकडल्यान कांयच जावपाचें ना.

डॉक्टर : तशें जाल्यार हें सगळें तुमी तुमच्या युवा भारतांत कित्याक बरयनात?

बबलू : बातम्यो बरयतात ते ह्या प्रकरणाचेर

डॉक्टर : बातम्यो न्हय रे, लेख लेख बरोवपाक जाय.

पत्रकार : बरयतलो. हांकां सगळ्याक नागडे करपी लेख हांव बरयतलो. तेखातीरूच हांव हांगा पि. आयक मेळपाक आयिल्लो. तांकां निमणी warning दिवपाक.

बबलू : Warning

पत्रकार : हय Warning. ह्या दोन दिसांभितर हें प्रकरण सुटलेंना जाल्यार वाचात म्हजो लेख म्हूण सांगपाक आयिल्लो हांव.

डॉक्टर : (चितीत) वाचात!!! वाचात म्हटले म्हूण याद जाली. मिस्टर पत्रकार, हांव न्ही सादरण धा-बारा वर्सा पयलीं एका सेमिनाराच्या निमतान महाराष्ट्रांत गेल्लो. थंय न्ही अशींच सिरीयल किडनॅपिंगाचीं प्रकरणां वाचपाक मेळटालीं.

पत्रकार : अशींच म्हणजे?

डॉक्टर : म्हणजे... तशी सारकी याद जायना. पूण... ल्हान... म्हणजे सादरण दोन तीन वर्सांच्या भुरग्यांचें किडनॅपींग गाजतालें थंय ... (चितीत)... हां... हय. भुरग्यांच्या मानेक घांस मारून तांचें कवळें रगत पिवपी. कोणाकतरी धरिल्लोय बी तेन्ना -

बबलू : रक्त पिवपी!!

डॉक्टर : म्हणजे तशी सारकी याद जायना.

पत्रकार : याद करात. डॉक्टर सारखी याद करात.

डॉक्टर : ना... म्हणजे हांव तसो दोन तीन दिसूच आसलो थंय... तें प्रकरण तशें खूब गाजिल्लें म्हण याद उरलें.

बबलू : पूण मनशाचें रक्त पिवपी मनीस आसतात ह्या जगांत?

डॉक्टर : नासपाक कितें जालां? रक्तच न्ही. मनशाक चिरून कापून, ताची तंदुरी करून भाजून खावपीय मनीस आसात ह्या

संवसारांत.

बबलू : तशें जाल्यार मनीस न्हू राक्षसूच आसपाक जाय ते... डॉक्टर सायब, म्हाका न्हू त्या खन्नाभायचो दुबाव मारता.

पत्रकार : हे बबलू, वगीच कोणायचें नांव घेवं नाका. आरे खन्नाभाय सारख्या येऱ्यागबाळ्याचें काम न्हय हें.

बबलू : कशें न्हू तर?

पत्रकार : आरे, तो गांवठी हिरो. आनी तांचो तो गांवठी सर्कीट.

बबलू : शॉट सर्कीट

पत्रकार : तोच तो. - ते चलयांक इंप्रेस करपाक मारतले इल्लो श्योव. ते कितें करतले किडनॅपींग!

डॉक्टर : ना ना. मिस्टर पत्रकार Let me correct you. हांगा न्ही कोणाचेरूच विश्वास दवरूं नजो. हांव सांगता न्ही... पळय, हांवें मायकोलॉजीची स्टडी केल्या. मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान पळयल्यार सादे सुदे दिसपी आनी आपले आपले म्हणपीच चड खतरनाक आसतात. जगांत खून, चोरी, रेप ह्या गजालींनी चडशें लागीचेच मनीस involve आसतात. हाचेर रिसर्चूय जाला हाली.

पत्रकार : म्हळ्यार?

डॉक्टर : म्हळ्यार केन्नाय, खंयूय, कशेंय आनी कितेंय जावं येता. त्या प्रकरणाभशेन वा ताचेपरस्यूय भयानक घडूं येता वा घडलां आसतूय बी.

बबलू : म्हणजे ह्यावूय भुरग्याचें रक्त कोणीतरी घोटलां आसूं येता?

डॉक्टर : Of course. आनी रक्त घोटपी तुमच्या आमच्यामदलो कोणूय आसुंयेता.

पत्रकार : कोणूय म्हणजे?

डॉक्टर : म्हणजे (बबलूक) हो, हांव, तूं लेगीत



पत्रकार : What nonsense -

डॉक्टर : तुमी भियेले कित्याक? हांवें फक्त एक अंदाज मांडलेलो.

पत्रकार : हांवऽऽ कित्याक भियेतलो?

(पत्रकाराक मोबायलाचेर फोन येता. तो घेता)

हॅलो! हां... कितें? ... खंय...? केन्ना?

(गडबडटा) येता हांव... येता... पांच मिनटांनी पावता -

(फांटल्या फांटी भायल्या दारांतल्यान वता. डॉक्टर ताच्या फांटल्यान दारामेरेन वता. बबलू जनेलांतल्यान भायर पळयता)

बबलू : (आड्डता) डॉक्टर डॉक्टर (डॉक्टर धांवत येता)

डॉक्टर : कितें जालें?

बबलू : होऽऽ पळय तो येता.

डॉक्टर : तो कोण?

बबलू : हवालदार लल्लुराम... तुमचो पेशंट.

डॉक्टर : तूं आनी एक मरे...

बबलू : हो पळय येयलोच तो.

डॉक्टर : येवंदी येवंदी (कांय खिणांत हवालदार सतरकार येता. डॉक्टर ताचेर झडप घालून बाकड्यार आडवो करता. डॉक्टर हवालदाराची फाट तपासता)

हवालदार : हो डॉक्टर म्हाजी फाट न्हू पोट सुटलां.

डॉक्टर : सॉरी सॉरी (आतां परथून ताका उदारो न्हिदोवन तपासता. बबलूक पळोवन सुतकी तोंड करता.)

बबलू : कितें जालें डॉक्टर?

डॉक्टर : हाका कॅसर, डायबिटीस, अल्सर, पोटाचो ट्युमर

दोगूय : हा?

डॉक्टर : हातुंतलें कायच जावंक ना. हाका फकत हार्ट ॲटक येवपाची

शक्यता आसा.

हवालदार : आवयगे. आयकुनूय हार्ट अॅटक येता की कायरे.

डॉक्टर : ह्या गजालीक कारणीभूत आसा तें तुमचें वाडिल्लें पोट. हें पोट कमी जालें जाल्यार गॅरंटी दिवं येता.

बबलू : वाडलेलें पोट इतलें डेंजरस आसता डॉक्टर?

डॉक्टर : हयतर. आतां हें पळय. हांचें पोट वाडलें पूण हार्ट खंय वाडलां! ना न्हय. म्हणजे पंप तोच पूण काम दुप्पट. तो हार्टाचो माणकुलो पंप कितलें म्हूण पंपिंग करतलो! समजा हांचें पोट फोडलें -

हवालदार : (भियेवन) आवयगेऽऽऽ

डॉक्टर : फक्त कल्पना करात. धरात की तुमचें पोट कापलें जाल्यार कितें मेळटलें?

बबलू : कितें?

हवालदार : आतां ह्या टायमार म्हाज्या पोटांत कायच मेळचें ना. कारण मकाळपासून मियां बटाटवडोसुध्दा खाल्लो ना.

डॉक्टर : हांव सांगता. तुमच्या पोटांत चरबीच्यो राशीर राशीर दिसतल्यो. (फोन वाजता. हवालदार फोन घेता)

हवालदार : हॅलू! मियां हवालदार चरबी बोलतोय - म्हणजे - हवालदार सतरकार बोलतो... हां बोला... तुमचो झिलगो मां? मेळटलो मेळटलो... पण केन्ना मेळटलो ती - गॅरंटी मियां कसो दिवं?... हे बघा आमचो तपास चालू आसा... काय.? अरे जा रे बोकड्या... काय करूंक जाय तें कर. चल जा (फोन आपडटा)... (डॉक्टराक) पण डॉक्टर आतां काय करपाचें?

डॉक्टर : सांगता (बटाटवडो खाता. खायत खायत उलयता) सगळ्यांत म्हत्वाची आनी इंपोर्टंट गजाल म्हळयार - तुमकां शीत, कडी, हुमण, नुस्ते, चपाती, भाजी, चिकन, मटण, बटाट,

कांदो टॉमेटो, पालेभाज्यो, कडधान्य, पाव, ब्रेड, गोड - स्वीट हें सगळें अजिबात चलचेंना. (च्यावूय पियेता)

हवालदार : काय!!!... हे बबल्या हो डॉक्टर काय ट्रेक्टर रे! म्हाज्या भावभावनेची, सपनांची सगळी जमीन हो खोणोन उडयता मरे.

बबलू : हार्ट अॅटेकापरस तें बरें.

हवालदार : बरें काय? कायच खावपाचें न्हू. मगेर मियां जगपाचो कसो?

डॉक्टर : हांव गुळयो दिता न्हू तुका... हां... म्हाका सांगात तुमचेकडेन पट्टो आसतलो?

हवालदार : पट्टो?

डॉक्टर : हय पट्टो. पोटाक बांदपाक. म्हणजे बाळंतपणांत (सावरत) म्हळयार बाळंत जाल्याउपरांत पोट सुटूंक जायना म्हूण बायला बांदतात पळय तसलो.

बबलू : पूण डॉक्टर हांगा कोण बाळंत जावपाची आसा?

हवालदार : हांवूय तेंच म्हण्टा.

डॉक्टर : शटअप!! पट्टो आसा जाल्यार सांगात.

बबलू : डॉक्टर आमच्या लॉजांत कुत्र्याक बांदपाचो पोटो आसा हाडूं?

डॉक्टर : नाका हांव गुळयोच दिता. (गुळयो बरयता आनी हवालदाराकडेन दिता. ह्यो गुळयो जेवणा पयलीं आनी ह्यो जेवणा उपरांत घेवपाच्यो.

हवालदार : (उमेदीन) म्हणजे सगळें खाल्ल्यार जेवल्यार जाता तर?

डॉक्टर : आरे, जेवणा पयलीं आनी उपरांत म्हळयार जेवणाच्या टायमाच्या आदी आनी मागीर (बॅग भरता) बरें. हांव वयता. आतां तें माळशें (बोटांची पैशींची करू) हांचें पळयात.

बबलू : फी चें म्हण्टात तें.

हवालदार : कितले?

डॉक्टर : हेरांचे दोनशे घेता हांव पूण ही स्पेशल केस म्हूण पांचशे दी तूं चल.

हवालदार : (बेजारून) स्पेशल केस?

डॉक्टर : चल चल बेगीन दी. म्हाजी पेशंट वाट पळयतात थंय.

हवालदार : (पांचशीं रुपया दियत) पण डॉक्टर पोट कमी जातलां मां?

डॉक्टर : ताची अजिबात गॅरंटीना.

हवालदार : मगेर इतलो खर्च कित्याक करपाचो?

डॉक्टर : तुमी साद्या चोरांक पॉकिटमाऱ्यांक धरपाची गॅरंटी दिवंक शकना मागीर आमी कशी गॅरंटी दिवंची?

हवालदार : पण...

डॉक्टर : पण बी काय ना... पळयात, हांवें गुळयो दिल्यो आनी तुमी त्यो घेतल्योच ना जाल्यार. आनी समजा तुमी ह्यो गुळयो घेतल्यों पूण पथ्य बी सांबाळलेंना जाल्यार. आनी समजा -

पत्रकार : आतां तुमी समजा - मियां सगळें सारखें केल्यार?

डॉक्टर : ना ना. इतल्यान सगळें सोंपना गुळयाभायर व्यायाम, उठाबश्यो, सुर्यनमस्कार, वॉकींग, स्विमिंग करपाकूच जाय... बरें वयता हांव (उरिल्ले बटाटवडे घेवन वता)

हवालदार : च्या मारी टोपी. आमी लोकांक टोपी घालता. हो - म्हाकाच टोपी घालून गेलो. (बबलूच्या आंगार वचत) हरामखोर, चोर, नालायक, बंडलबाज तुकालागून पांचशीं रूपया गेले म्हाजे. काय मेल्याचे उपाय.

बबलू : सायब एक शेवटचो उपाय सांगू. सामको स्वस्त आनी मस्त. एक पैसो लागचोना, आनी हंड्रेड परसेंट रिजल्ट.

हवालदार : बोल बडव्याच्या.

बबलू : आमी न्हू... सद्दां डान्स करूया, हासूयां नाचुया, गावया धूंद जावया. कारण ही नशीबाची दुख्खां तशीं केन्नाच सोपचीना.

हवालदार : पण पोट जिरतलां मरे?

बबलू : जिरलेंच म्हूण समजा.

हवालदार : मगेर उशीर कित्याक? कर सुरू - (दोगूय गाणे म्हण्टात आनी नाचतात, धूंद जातात)

**पांचवी चोळी विलुदांची**
**आंगाक वेंगायता**
**मोडत मोडत जशी तूं**
**मनाक भुलयता (तुजें विणें)**

(दोगूय नाचपाक मग्न आसतानाच पी. आय. धर्मेश लाड येता. बरो वगत तांका पळयता. बेजारता.)

पी. आय. : स्टॉप इट... स्टॉप इटऽऽऽ

हवालदार : सॉरी सॉरी सायब...

पी. आय. : मिस्टर लल्लुराम दयाराम सतरकार. तुमकां कसलेंच मेनर्स ना. तुमकां कितेंच कशें दिसना? भायर लोक पुलिसांच्या नांवान शी थू करता. हांव स्वता रातदीस हांगा थंय छापे मारता. आमची सगळी पोलीस यंत्रणा वॉर फुटींगाचेर काम करता आनी तुमी... शीटऽऽऽ

हवालदार : पूण सायब -

पी. आय. : एक शब्द उलोंव नाका... लज दिसपाक जाय तुका... नालायक... ना... म्हजेंच चुकलें. तुका हांगा आवटपॉस्टार दवरलो तो. (बबलूक) हो कित्याक आयला हांगा?

बबलू : (भियेता) च्याव घेवन येयल्लो सायब... हांव -

पी. आय. : धांव आतां - दीली मरे च्याव? मार आतां धांव... चल

वच.

(तो प्लेट आनी ग्लास घेवन वचपाक) राव रे... (रावता) म्हाका सांग, तुज्या हॉटेलांत, लॉजांत लोक कितें म्हण्टात?

बबलू : (वोग्गी)

पी. आय. : त्या भुरग्याविशी विचारता हांव... (गोलाक धरता. बबलू भियेता)

हांव कितें विचारता?

बबलू : सगळे लोक पोलीसांक गाळी घालतात...

पी. आय. : आनीक?

बबलू : पुलीस इन्स्पेक्टर नपुंसक आसा म्हण्टात... आनी आनी सायब.

पी. आय. : आयकतां हांव.

बबलू : सगळे लोक खन्नाभाय आनी शॉट सर्कीटाचें नांव घेतात. तुमचो बदलो घेवपाक तांच्यानीच कारस्थान केलां म्हण्टात. पूण म्हाजें नांव कोणांक सांगू नाका सायब... तो खन्नाभाय म्हाका दवरचोना.

पी. आय. : तूं कांयच भियेनाका... पूण असल्यो भितरल्यो गजाली मात

बबलू : कळ्ळें सायब... कळ्ळें... हांव वचूं सायब?

पी. आय. : हां वच.

बबलू : (मुखार वता. परत येता) सायब एक सामकी सिक्रेट गजाल आसली. (लागीं येता) सायब लोक ह्या सगळया प्रकरणाकलागून खूब तापल्यात. तो नगरसेवक आनी पत्रकार पोलीस स्टेशनाचेर मोर्च्या हाडपाची तयार करता. आनी सायब सामकी भितरली गजाल म्हटल्यार तो खन्नाभाय तेंका सायडीकच्यान सपोर्ट करता.

पी. आय. : आय. सीऽऽऽ

बबलू : बरें सायब (सलाम मारीत) येता सायब (पी. आय. ताका धा रूपयांची नोट दिता) थ्येंक्यू सायब थ्येंक्यू... (वता)

हवालदार : चोराच्यो उलट्यो बोबो... सायब, म्हाका पण त्या खन्नाभायचीच शंका येता. मेलो पुलीस स्टेशनात धमकी दिवन गेलो म्हाका.

पी. आय. : कितें! पुलीस स्टेशनांत? (फोन वाजता पी.आय. उखलता) हॅलो! इन्स्पेक्टर धर्मेश लाड इयर... (फोनार उलयतानाच शिस्तीन उबो रावता) जयहिंद सर... यस सर... सगळ्याक व्यवस्था केल्या सर... होम मिनिस्टराकडेन कम्लेन?... कोणी सर?... आयसी... यस सर, यस सर... सर सर प्लीज गीव मी टू डेज सर... यस. फक्त दोन दीस... आय न्हो सर... ओके सर. थ्येंक्यू... थ्येंक्यू सर... (फोन दवरता. मेजार मूठ मारता) ... शीटऽऽऽ हें प्रकरण हाताभायर वचपाक लागलें आतां. इतलो बंदोबस्त दवरलो. नाक्यानाक्यार पुलीस दवरले. छापे घातले आनी ..

हवालदार : पण सायब तुमी त्या खन्नाभायक कित्याक अटक करीना?

पी. आय. : आरे सतरकार अटक करपाक पुरावो जाय पुरावो. ताच्या सगल्या अड्ड्यांचेर छापे घातले. पूण कांयच सुराग मेळ्ळोना. त्याभायर तो - तो चालाक आसा. तांणी आपलो सगळो बिजनेस वयल्यावयर लिगल दाखयला... (चितीत) पूण... सतरकार म्हाका दिसता आमी खंयतरी चुकता.

हवालदार : म्हणजे?

पी. आय. : म्हणजे आमची तपासाचीं सुत्रां चुकीच्या वाटेन वयता अशें म्हणपाचें आसा तुमकां सायब.

पी. आय. : करेक्ट (फोन वाजता. पी. आय. उखलता) हॅलो! पी. आय. धर्मेश लाड स्पिकींग.... कोण वॉचमॅन? आरे, तूं

असो रडटा कित्याक?... कितें? तुजो चलो दिसना?... (सतरकार जनेलांतल्यान क्वाटर्सांवटेन पळयता) केन्नापासून?... दोन वरां जालीं? आरे, सारखो पळय खंयतरी खेळटा आसतलो.... खंय खंय खेळटालो? दोन नंबर गेटीकडेन... बरें शेवटाक ताका कोणीन पळयल्लो... कितें? दोन ल्हान भुरग्यांनी? आरे हें दोन दोन कितें लायला तुवें... दवर फोन येता आमी (दवरता)

हवालदार : (अचकीत आड्डता) दोन दोन... सायब दोन... दोन... ती... ती बायलूय अशीच दोन दोन म्हणून बडबडटाली.

पी. आय. : बायल?

हवालदार : हय बायल. ती वदळ हंयसर ... म्हाका तिचो अवतारूच शंकेचो दिसलेलो. तिणें झिलगो बेपत्ता जाल्ल्याची कम्प्लेन पण दिल्ली. पण सगळी म्हायती दिवची सोडून ती नाच्च जाली सायब.

पी. आय. : आरे तूं कितें सांगता? (रजिस्टर चाळता)

हवालदार : सायब सायब ती ती वदळ क्वाटर्सांवटेनूच गेल्ली.

पी. आय. : खंय आसा कम्प्लेन?

हवालदार : (रजिस्टर पळोवन) हां हंयसल्ले पान खंय गायब जालें?

पी. आय. : गायब जावंकना सतरकार गायब केलां. यस.

हवालदार : म्हणजे?

पी. आय. : (चिंतून) सतरकार म्हाका सांग गायब जाल्ल्या भुरग्यांची पिराय किती आसतली? चेक कर.

(सतरकर पानां परथिता)

वेदांत मनोहर नायक पिराय दोन वर्सां, श्लोक सदानंद पालकार पिराय दोन वर्सां, फ्लॅजर जॉन डिसिल्वा पिराय दोन वर्सां (हवालदार अजाप)

पी. आय. : यस आय गॉट इट... सतरकार म्हाका सांग ती बायल क्वाटर्सांत केन्नाशी गेल्या?

हवालदार : बऽऽरो वगत जालो सायब... दोन वरां तरी जातलीं.

पी. आय. : ऑ माय गॉड... दोन वरां... वॉचमॅनाचो चलोय दोन वरां जाली बेपत्ता आसा. सतरकार ताची पिराय कितली आसतली.?

हवालदार : कोणाची सायब?

पी. आय. : आरे वॉचमॅनाच्या चल्याची.

हवालदार : सादरण दोन वर्सां सायब... हय तुमच्या टिंकूच्या वांगडचो न्हू तो - (हवालदार पी. आयक पळयतच रावता. रहस्यमय संगीत)

पी. आय. : सतरकार पळयता कितें?... कम ऑन हरी अप (सतरकार जनेलाकडेन वता. ताका कितें करचें कळना. पी. आय. आपलें कॅप घालता, दांडो घेता फेस्तूल सांसपितां) सतरकार, कमऑन लॅट्स् गो.

(पी. आय. धांवतच वता. फाटल्यान हवालदार सतरकार ताच्या फाटल्यान पळटा. संगीत - काळोख - पडदो)

(पयलो अंक सोपता)



## अंक दुसरो

(सुवात : तीच. वण्टीवेल्या कॅलेंडराचेर आनीक एक दीस क्रॉस केला. वातावरणांत व्हडलोसो बदल ना. पूण कितेंतरी घडिल्ल्याची जाणविकाय जाता.
पडदो उगडटाना माचयेर काळोख. कांय खिणांनी प्रेजाच्या वागंवाभितर उजवाड फांकता ह्यावेळार 'बायल' प्रेक्षकांक फांट करून भितर पडिल्ली आसा. तिच्या कापडाचेर, क्लावजार रक्ताचे डाग दिसता. तिचें तोंडूय थोडेशें तांबडें जालां. केंस फाफसल्यात. पूण प्रेक्षकांक हें सुरवेक तितलें स्पश्ट कळना. भायल्या वाकड्याचेर हवालदार सतरकार बसल्या बसल्या न्हिदला. उजवाड ल्हव ल्हव सतरकाराचेरूय पडटा. तो ह्यावेळार स्वप्न पळयता. सपनांत तो शोले फिल्मांतल्या ठाकुराची (संजीव कुमार) भुमिका करता. 'हे

हाथ मुझे दे ठाकूर' ह्या डायलॉगा उपरांत तो स्वता 'नाय नाय' अशें आड्डून म्हण्टा. हें सगळें चलताना ताचे दोळे धांपिल्लेच. हें चालू आसतनाच बबलू न्युज पेपर हातांत घेवन येता. हवालदार सतरकाराक त्या अवस्थेंत पळोवन कपलार हात मारता.)

बबलू : सगळे लोक सुदरात, केन्नाच न्हय ते सगळें पुलीस खातें खावपाचें रावात, राजकारणी पक्ष बदलपाचे थाबत पूण हो हवालदार डिवटेर न्हिदपाचो आपलो जल्मसिध्द अधिकार केन्नाच सोडचोना, आनी न्हिदलो म्हण्टकच चोरांक धरपाची सपनां पळोवपाकूय विसरचोना. (तापून) हो हवालदार... (सावरत) सायब... हो सायब... हवालदार सायब... हो असो उठपाचोना. (कितेंतरी थारायता) चोर चोर धरात धरात. मारात मारात चोर चोर... (हवालदार फक्त हातार बशिल्ली जळार मारता आनी परत न्हिदता. ताचेर कसलोच परिणाम जायना तें पळोवन बबलू बेजारता) खावन खावन हेची कात गेंड्याची जावपाक लागल्या. कसलोच परिणाम जायना म्हणजे! (चिंतता) आतां कितें करू... (फाटल्यान फुडल्यान पळयता. मदींच ताच्या कुशीक बाकड्यार उबो रावन मोठ्यान बातम्यो सांगिल्ल्याभशेन आड्डुता.)

२३३.१ मिटर म्हळ्यार १२९७ किलो हड्सांचेर आमी आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रावयल्यान उलयतां. आयकूंक दिता एक ब्रेकीग न्युज. गोंयचें सुपुत्र, भुमिपुत्र, चित्रविचित्र, कामसुत्र, चोरमित्र हवालदार श्री श्री लल्लुराम दत्ताराम सतरकार हांच्यानी ल्हान भुरग्यांक किडनॅप करपी भौमानेस्त गुंड खन्नाभाय आनी ताच्या गँगाक धरून दिल्लेखातीर गोंयचे मुखेलमंत्री श्री आमआदमी मडगांवकार हांणी तांका

एकशे एक रूपयांचें इनाम जाहीर केलां होऽऽऽ
(आयकनाफुडे जागो जाता. सरळ उबो रावता आनी लेफ्ट रायट लेफ्ट रायट करीत वाटकुळोच घुंवता. बबलू मुखार येतकच ताका सेल्यूट मारता. इनाम घेवपाक हात मुखार करता. बबलू ताच्या हातांत न्युज पेपर दवरता)

हवालदार : (पेपर घेताच जाग्यार येता) 'पुलीसांनी हातांत कांकणा घालचीं - पत्रकार द्वारकानाथ साने. (पेपर वाचता आनी बेजारता. फुडे वाचता) बेपत्ता जाल्ल्या चारूय भुरग्यांच्या आवय बापायंचें हुतात्मा स्मारकाकडेन आमरण उपोशण. आरे बापरे! (बबलूक) हे बबल्या तुज्या, पेपरानी दुसऱ्यो बातम्यो ना रे?

बबलू : आसा तर..., ही पळय (मराठी पेपर दाखयता)

हवालदार : (वाचना) वास्को येथे एका महिलेची छेड काढल्या प्रकरणी जमावातर्फे हवालदाराची भर चौकातून विवस्त्र दिंड (बेजारता. बबलू मुमुरखो हांसता) हे... हांसता काय गप्प बस.

बबलू : हांव खंय कितें उलयलां? पूण भायर लोक उलयतात हां सायब.

हवालदार : काय... काय बोलतात...

बबलू : सांगू?

हवालदार : सांग बघू -

बबलू : पळयात हां?

हवालदार : सांग सांग -

बबलू : चोर, फटींग, नागावणें, एक नंबर हरामी -

हवालदार : काय?

बबलू : लोक लोक म्हण्टात पुलीसांक, हांव न्हू.

हवालदार : लोक म्हण्टात म्हणान तुवूय म्हण्टा?

बबलू : तुमी नागावणे, फटींग - अशें केन्ना हायें म्हटलां तुमकां - सायब... सांगात हायें 'तुमी चोर आसात' अशे केन्ना उतर तरी काडलां? तुमीच सांगात - ना नू.

हवालदार : नाऽऽऽ हऽऽऽ

बबलू : ना न्हू... मागीर?

हवालदार : मगेर काय?

बबलू : मगेर बी कांय ना... सगळें आतांच

हवालदार : आतांच?

बबलू : आतांच सगळें घडपाचें आसा.

हवालदार : काय आसा घडपाचें?

बबलू : तुमकां खबर ना?

हवालदार : काय पण?

बबलू : सायब, दोन वर्सांच्या त्या भुरग्यांची किडनॅपिंगची केस पुलीसांनी दोन लाख घेवन चिरीमिरी केली म्हुणून लोक बोबो मारतात भायर.

हवालदार : काय!

बबलू : आनी तेकाच लागून म्युनिसिपल गार्डनांतल्यान मोठो मोर्चा येवपाचो आसा पुलीस चौकीर... हांगा आत्तां.

हवालदार : आरे भगवंता! हे काय आणखी.

बबलू : फुडें आयकात, पुलीस स्टेशन- (लागी येवन ताका आनीक भिवयता) पुलीस स्टेशन पेटोन उडोवपाचो डाव आसा त्या लोकांचो. गुप्त डाव.

हवालदार : (तिडकीन) आरे गप्प रंव... काय मेलो एक एक स्टोरी सांगता. हे बघ आमचें काम आमी चोख केलां. तुका काय वाटलां? आमचे सायब अशे सहज गुडघ्यात मान घालून बसतले म्हणात.

बबलू : म्हणजे?

हवालदार : म्हणजे बिणजे गेलो पणजे... आरे हो बघ त्या भुरग्यांक किडनेप करपी, तेंच्या मानेक घांस मारून रगात पिवपी कैदी नंबर ००१ (प्रेजांतल्या बायलेक दाखयता ती बायल मान वळोवन पळयता. त्याचवेळार पी. आय. येता.)

बबलू : कितें...! रक्त पिवपी?

पी. आय. : मिस्टर सतरकार. (दारावेल्यान मुखार येता.) कितले फावटी सांगलें तुका सतरकार. हांव येयल्याबगर तूं कोणाकूच कांयच सांगू नाका म्हण. पूण तूं फोंत कशी व्हांवतूच रावतलो.

हवालदार : सॉरी सायब...

पी. आय. : बरें बरें... (पी. आय. सवकासायेन आपल्या माथ्यावेलें कॅप काडटा. बसता. इतल्यान भायल्यांसून ल्हव ल्हव तरेकवार घोशणा आयकूंक येतात. बबलू आनी हवालदार जनेलांतल्यान अंदाज घेता. मागीर भायर वता. ल्हव ल्हव आवाज वाडत वता.

**घोशणा : पुलीस पुलीस - हाय हाय**
**दांड्याक तांच्या चुटूटी लाय - चुटूटी लाय.**
**पी. आय. लाड - मुर्दाबाद मुर्दाबाद**

हवालदार सतरकार भायल्यांसून धांवत येता. सामको अस्वस्थ जाता. परत भायर वता. परत भितर येता. जनेलांतल्यान अंदाज घेता. ह्या वेळार पी. आय. अतिशय शांतपणान न्युज पेपर वाचीत बशिल्लो आसा.)

हवालदार : सायब... सायब... (परत भायर वता. आवाज वाडटा तशी ताची घालमेल वाडत वता. घोशणांचो आवाज सामको दाराकडेन पावता. हवालदार थांबत भितर येता. ताच्या

फाटोफाट पत्रकार द्वारकानाथ साने, खन्नाभाय, शॉटसर्कीट, डॉ. पोटफुगे, बबलू तशेच आनी दोन-चार बायलाय येतात)

पी. आय. : येयात... येयात... सॉरी... वॅलकम... यु आर मोस्ट वॅलकम हांव तुमचीच वाट पळयतालो. बाय द वे... आय थिंक यू आर नॉट गोईंग टू सिट डावन. वॅल... वॉट कॅन आय डू फॉर यू मिस्टर साने.

पत्रकार : (तितल्याच तिव्रतायेन) बेपत्ता जाल्ल्या त्या चार भुरग्यांचो तपास खंय पावलो?... आमी सिटीजन फोरम विचारता तुमकां, खंय पावला तपास?

पी. आय. : कळटलो... हॅव पेशन -

खन्नाभाय : कळटलो कितें? आपून लोगोंको अभीच एक्स्प्लॅनेशन मांगता. इधरीच.

शॉ. सर्कीट : हा हा भाय बोला तो... इधरीच.

(सगळे एकाच बरोबर) हय हय आमकां एक्स्प्लॅनेशन जाय... हय हय असो बोवाळ)

पी. आय. : एक्स्प्लॅनेशन!

पत्रकार : हय एक्स्प्लॅनेशन. स्पश्टीकरण.

पी. आय. : तें तुमी पत्रकारांनी दिवचें पडटा आमी न्ही. हांव कित्याक दितलो स्टश्टीकरण!

पत्रकार : पंदरा वीस दिसांनी ह्या माणकुल्या शारांतले चार भुरगे ना जाता. सगळ्याक आंकाताची परिस्थिती पसरल्या, ताचें स्पश्टीकरण कोणें दिवपाचें अशें दिसता तुमकां?

पी. आय. : येऱ्याचें बेरें करतात तुमी. घोडो म्हटल्यार हत्ती तुमच्या सारखे पत्रकार करतात. सादो गायंडोळ चाबल्यार सारोप चाबलो म्हूण पेंरगांव घालतात तुमी, आनी एक्स्प्लॅनेशन स्पश्टीकरण आमी... आमी दिवपाचें?

पत्रकार : हय तुमीच - तुमीच दिवपाचें. आनीक कोण दितलो सांगात... आरे, चार अमुरपिके भुरगे ना जातात. देवळामुखार फुलां विकपी फुलकान्नीचो, गार्डनाकुशीकच्या झोपडपट्टेंतल्या एकलेचो, बाजारांत भाजी विकपी बायलेचो आनी इतलेंच न्हय तर पुलीस क्वाटर्सातल्या वॉचमॅनाचो दोन वर्साचो भुरगो दिसाधवळ्या गायब जाता, सबंद शारांत लोकांमदीं भयाचें वातावरण पातळटा, शाळांनी स्कुलांनी ल्हान भुरगीं धाडपाचेंच लागी लागी बंद जालां, परिस्थिती सामकी हाताभायर वचपाक लागल्या आनी लॉ ॲण्ड ऑर्डर सांबाळपाची जापसालदारकी जाच्या खांदार आसा ते पुलीस करता तरी कितें????... हाचो, हाचो अर्थ कितें? कोण करतलो तपास? कोण दितलो स्पश्टीकरण? कोण दितलो एक्स्प्लॅनेशन? उलयात.

पी. आय. : (दुर्लक्ष करीत) आमचें इन्वेस्टीगेशन चालू आसा.

पत्रकार : (तापून) तीच तीच पाठ जाल्ली डायलॉगबाजी बंद करात आतां. आतां तुमच्या तोंडाक गुड्डो मारला जाल्यार तेंवूय सांगात. फुडें कितें करपाचें तें आमी पळयता (सगळे - हय हय आमी पळयता)

पी. आय. : (संथपणात) सोंपलें तुमचें... आतां आयकात - आमचो तपास अंतीम टप्प्याचेर पाविल्लो आसा. सो यु प्लीज डॉंट इंटरफियर...

खन्नाभाय : तपास बिपास को मार गोली - आपून को अभी का अभी रिजल्ट मांगता... नही तो हम -

शॉ. स. : सही बोला भाय...

खन्नाभाय : भाय हमेशा ही सच्ची बोलता है मामू... हे पोलीस लोग ही हमेशा लाय बोलता है...

पी. आय. : (हवालदाराक) हवालदार सतरकार... ह्या सगळ्यांक भायर धावड पयलीं. (हवालदार मुखार सरता - सगळे बोवाळ घालता)

- ना ना आमी वयचे ना.

- आमकां न्याय जाय.

- आपून इधरीच रहेगा.

- पोलीस पोलीस - हाय हाय

- मुर्दाबाद मुर्दाबाद - इन्स्पेक्टर लाड मुर्दाबाद

- शेम शेम ... शेम शेम

पी. आय. : (तापून) खामोशऽऽऽ हें पुलीस स्टेशन आसा तुमचें फिश मार्केट न्हय. (पेपर पळोवन) आनी मिस्टर साने, हो, हो, लेख तुमीच बरयला न्हय?

पत्रकार : (वाचता) 'पोलीसांच्या तोंडात शेण घाला' -

पी. आय. : हांवें तुमकां वाचूंक सांगूकना... कोणी बरयलां काय विचारलां?

पत्रकार : सकयल नांव दिल्लें वाचूंक कळना जाल्यार हांव वाचता. (खन्नाक) ताचें कितें आसा जाणा खन्नाभाय - मंत्र्या - संत्र्याचे नपुंसक सोयरे अशा खुर्च्यांचेर बसून बसून त्यो तापोवपाक लागले म्हण्टकच पोंदच्यान असोच सुरींग लावचो पडटा आमकां पत्रकारांक.

पी. आय. : पत्रकार साने - यु आर क्रोसिंग युवर लिमीट - तुमी, तुमी एक पत्रकार आसा म्हूण - नाजाल्यार -

पत्रकार : नाजाल्यार कितें... भितर उडयतल्यात...? आसा हिम्मत-? होम मिनिस्टराक मेळून आयलां हांव... फर्कादाय दाखयता! आरे, जांचे भुरगेंपण निकतेंच फुलूंक लागिल्लें त्या निश्पाप भुरग्यांक किडनॅप करपी भायर बिनदास्त भोंवतात, तांचो

सोद तुमकां लागना मागीर ही जोरगत कित्याक?...
कोणाच्या दोळ्यांक उदक लावपाक हीं नाटकां चल्ल्यात..? सांगात?... उलयात... आतां कित्याक वोगी रावल्यात? तुमी पुलीसांनी न्ही फक्त ह्या खन्नाभायच्या बाराचेर छापे घातल्यात. आनीक कितें केल्यात?

खन्नाभाय : साने सर. आपून बुरा आदमी सही लेकीन बच्च्यो को टच नही करूंगा... कसम से... अरे बच्चे तो हमारी जान है. बोले तो शान है. देख आपूनने ये (फेस्तूल दाखयता) १० रूपये का रखा है - सिर्फ डरानेको बॉस.

शॉ. सर्कीट : भाय के अंदर भी एक बच्चा है - सही ना भाय.

खन्नाभाय : सहीच रे.

पत्रकार : हांवें निदान किडनॅप करप्यांचो अंदाज तरी घेतला म्हज्या लेखांत पूण तुमकां सादो सुराग लागूंकना स्ट्रेंज... बरोच गुड्डो बसला सो दिसता तोंडाक.

हवालदार : (मर्दींच) हो सायब गप्प बसात. आयकता म्हणान कायच्या काय बडबडू नाका. (पी. आय.) सायब माफ करात, पण मियां आनां गप्प रंवचोंना. हो पत्रकार, तुमकां काय वाटलां इन्वेस्टीगेशन म्हणजे खावचां काम आसा? काय पेन घेवन धव्याचा काळां करूचां काम आसा.
इन्वेस्टीगेशन करूच्याक खांदार बोटवो न्हू आंगार वर्दी आनी हड्ड्यांत सॉलीड डॅरींग वयां. आमच्या पी. आय. सायबांकडेन तें आसा.

पत्रकार : सॉलीड डॅरींग! (हांसता) किडनॅप करपी त्या गॅंगान थंय भुरग्यांच्या आवय बापायकडल्यान लाखांनी पैशे उखल्ल्या आसतले - आनी हांगा सॉलीड डॅरींग चल्लां...

पी. आय. : लाखांनी पैशे उखल्ल्यात खंय!!, फुलवाली, भाजीवाली,

वॉचमॅन खंयसून दितले लाखानी पैशे! आनी तुमकां कोणी सांगलें किडनॅप करपी गँग आसा म्हूण?

पत्रकार : सांगपाक कित्याक जाय. सिरयल किडनॅपींग चल्लां. पंदरा वीस दिसांनी चार भुरगीं किडनॅप जाल्यात. पुलीसांच्या हातांत सादो एक क्लू मेळूंकना... हें असलें धाडसी काम एकट्या दुकट्याचें आसुंकूच शकना. ही मोठी टोळीच आसूंक जाय.

पी. आय. : हें सो कोल्ड धाडसी काम एकाच व्यक्तीचें आसा अशें हांवें म्हटल्यार.

पत्रकार : शक्यूच ना, हातूंत धा बाराजाण इन्वॉल्व आसपाकूच जाय.

पी. आय. : (मुमुरखो हांसता) यु मीन फायव्?

खन्ना : हे... हे इन्स्पेक्टर पागल हो गयेला है. हे साने सर, आपून इधर खाली टायमपास करने को आयलेरा क्या? हे सर्कीट.

शॉ. स. : शॉट सर्कीट भाय.

खन्ना : वहीच रे वो शेण लाव गायका... (पत्रकाराक) हे शबनम बाजू हट - शॉट सर्कीट अब तूं देख, अपनी आँखोसे देख. मैइच शेण लगाता हूँ इस खाकी को -
(शॉ. सर्कीट पिशवेंत घालून हाडिल्लें शेण खन्नाक दिता. ते दोगूय शेण हातात घेवपाक... सगळ्याचो गोंधळ. हवालदार अस्वस्थ. ते फुडे सरपाक पी. आय. आडुता.)

पी. आय. : (मोठ्यान) बसऽऽऽ इनाफ. दिस इज द लिमीट.
(सगळ्याकं) माय डियर सिटीजन, फॉर युवर कायंड् इन्फोर्मेशन त्या चार भुरग्यांक व्हरून तांच्या गोमटेक घांस मारून तांका जिवेशी मारपी बायलमनीस आतां घ्या खिणाक म्हज्या कस्टडींत आसा. (सगळे जाण अजाप. अजापाचें संगीत्)

खरें म्हळ्यार फाल्या पत्रकार परिशद घेवन तिका कोर्टांत उबी करपाचो प्लॅन आसलो म्हजो. पूण म्हाका दिसता तुमची परिशद म्हाका आतांच घेवंची पडटली. (हवालदाराक) सतरकार त्या कैदी नंबर ००१ क मात्सो घेवन यो.

(सतरकार उजव्यावटेंच्या दारांतल्यान भितर वता. थंयच्यान कस्टडींत येता. तिच्या बोचकुलांक धरून उठयता आनी तसोच परतो सगळ्या म्हऱ्यात हाडून जमनीर उडयता.)

हवालदार : हे बघा, ह्या पुलीस स्टेशनाचो पयलोच कैदी. कैदी नंबर शुन्य शुन्य एक (सगळेजाण तिका बारीकसाणेन पळयता. ती आंग चोरून घेता. बाबडी जावन सगळ्यांक पळयता. ह्या वेळार तिच्या कपड्यावेले रक्ताचे तांबडे दाग स्पश्ट जाणवता. तिच्या तोंडाक लागिल्लें रक्त सुकलां पूण ताचेंय आकलन पळोवप्याक जाता. तिच्या आंगावेल्या कापडाचो पिजको पदर घेवन ती स्वताची अवस्था लिपोवचेलो निर्फळ प्रयत्न करीत आसा. लोकांची कुजबुज चालूच. तिचो एक दांत तुटिल्यान तांतुंतल्यान रगत येता.)

- हिणें, हिणें मारले भुरगे?
- खरें दिसना.
- इस बुड्डीने... बिलीव नही होता.
- मुझे लगता भाय - हे पुलीस लोगोंकी कुछ चाल है.
- नही रे
- सांगू नजो
- हय आज काल कितेंय घडटा.
- बरोबर
- पूण...
- पूण बी कायना हां.

पत्रकार : पी. आय. सायब ही खंय मेळ्ळी तुमकां?

पी. आय. : पुलीस क्वाटर्साफांटल्या झुडपांनी.

सगळे : कितें!!!

पी. आय. : पळयात ह्या सगळ्या किडनॅपिंग प्रकरणाफांटलो एकमेव सुत्रधार, मिस्टर पत्रकार. ही सादीसुदी बायल न्हय. ती सिरयल किलरूय जावन आसा. (सगळे स्थीर)

पत्रकार : कितें सांगता तुमी! आय डॉंट बिलीव्ह धीस.

पी. आय. : हांव जाणा आसलो तुमचो विश्वास बसचोना म्हण.

पत्रकार : कसो बसतलो विश्वास - येद्या मोठ्या केसीखातीर तुमी... (विचार करून) हां... ओ आय सी... (हांसता) मिस्टर लाड, मानले तुमकां - वा! कितें सॉलीड इन्वेस्टीगेशन केलां रे तुमी वा! (मूड बदलीत) शारांत लोक पुलीसांच्या नांवान बोटां मोडटा. नपुंसक पी. आय. ची बदली करात म्हूण सगळ्या मंत्रिमंडळाचेर प्रेशर आयला. पुलीस यंत्रणेची तीन तेरा वाजल्या देखून... देखून तुमी स्वताक सावरपाक एके जाण्टे बायलमनशेक मुखार करतात? तुमकां कितें दिसलें? अशी दिशाभूल करून घेवपाक लोक कितें पिशें आसात.

हवालदार : हे बघा, आमी तिका मुद्देमालासकट म्हणजे रेड हँडेड धरल्या.

सगळे : रेड हँडेड...!!!

हवालदार : हय, रेड हँडेड.

पी. आय. : तिचेकडच्यान आमी वॉच्मॅनच्या चल्याची तशेंच त्या पयलींच्या तिनूय भुरग्यांच्यो कुसलेल्यो डेड बॉडी जप्त केल्यात. (सगळे अजाप - स्थीर)

पत्रकार : केन्ना?

पी. आय. : काल.

पत्रकार : मागीर इतलो वगत -

पी. आय. : किर्ते आसा जाणा मिस्टर साने. सेन्सिटिवीटी आसा सेन्सिटिवीटी आसा म्हूण जगार आडुलेंच म्हूण जायना ती मुळांत मनांत, काळजांत आसचीय पडटा.

खन्नाभाय : लेकीन -

पी. आय. : सांगता... (सुस्कारो सोडून) वॉचमॅनाचो फोन येताच म्हाका दुबाव आयलो. आमी क्वाटर्सांत धांव मारली. तिका सोद सोद सोदली. क्वाटर्सांत ती खंयच दिश्टी पडलीना. आमी मोच्यों क्वाटर्सांफांटल्या झुडपांनी वळयलो. एका व्हड अंजणीच्या झुडपाकुशीक तिची हालचाल दिसली. आमी ल्हवूच तिचो माग घेतलो... लागी वचून पळय जाल्यार किर्ते - आंगार काटो काडपी सीन- तिणें राक्षणीसारखो आपल्या हातांनीच खड्डो खणिल्लो, छातयेकडेन वॉचमॅनाच्या चल्याक घट्ट आवळून धरिल्लो. ताचे पोले, ओठ कपल मामकें पिजिल्लें, मान जाल्यार तुटोन लोंबकळटाली. (तिडकीन) ह्या म्हारतुकडेचे कपडे रक्तान माखिल्ले. खड्डो खणून जाल्लो. ती त्या भुरग्याक खड्ड्यात उडोवपाक हांवें तिच्या केंसड्यांक हात घातलो. तशीच ओडीत तिका झुडपांतल्यान भायर हाडली. चार खोटो घातल्यो, दोन मुस्काट्यार फुलयल्यों. त्यासरशी तिचो वयलो दांतूच निखळ्ळो. रगत व्हांवूक लागलें.

हवालदार : अजाप काय म्हायीत आसा. गंडेची आपले रक्त बघून चवताळ्ळी. खड्ड्याकुशीक बोट दाखोवन खुणावपाक लागली, स्वताच बडबडूंक लागली. सायबान सांगतकच आपूणच ती जागा खणूंक लागली. माती उस्तिता उस्तिता थंयच्यान त्या तीन भुरग्यांच्यो कुसलेल्यो डॅड बॉडी भायर सरल्यो. (सगळेंच खांबे कशे उबे. कोणाकूच उतर फुटना)

पत्रकार : ओ माय गॉड - हें कितें आयकता आमी!!

हवालदार : सत्य तेच आयकलां तुमी. आमचे पी. आय. सायब धाडसी. पण त्या पोराट्यांची कुसलेली बॉडी बघून थरथरले. तेणी तिका तशीच केसांक धरून भर रस्त्यार हाडली. वायरलेस मागयली. डॅड बॉडी ताब्यांत घेतल्यो आनी ह्या राक्षीणीक बेडयो घालून हांगा हाडली.

पत्रकार : इट इज हॉरीबल.

पी. आय. : इट इज नॉट जस्ट हॉलीबल. इट इज कोल्ड ब्लडेड मर्डर.

खन्ना : हे बुड्डी की औलाद - (मारपाक वता) तेरी तो - तेरे वासते मै इधरीच खड्डा खोदूंगा.

शॉ. सर्कीट : मै भी भाय.

खन्नाभाय : लेकीन वो साली बच्च्यो को क्यो मारती थी? (दोळे पुंसता)

पत्रकार : हय... ही बायलमनीस भुरग्यांक कित्याक मारताली?

शॉ. सर्कीट : करेक्ट... क्यो क्यो मारती थी?

पत्रकार : ती सुध्दा अशा विक्षिप्त पध्दतीन.

सगळे : हय कित्याक... कित्याक?

पी. आय. : ह्याच प्रस्नाची जाप हांवें रातभर सोदपाचो यत्न केलो. कित्याखातीर.... कित्याक.... वाय?

हवालदार : रांडेची रातभर मार खायत रंवली पण तोंड उगडूंक तयार ना. नांव गांव घर दार कसलोच पत्तो ना. बसल्या बघ घुमी कशी.

पत्रकार : खरेंच अजाप शें. हें इतलें सगळें घडून ही..ही अशी सामकी निर्विकार, शांत कशी!! इट्स अमेजिंग... आय मीन हाव शी कॅन डू धिस...!

हवालदार : सायब, तुमी म्हाका परमिशन दियात, मियां एकाच धपक्यांत तिचें तोंड उगडटा काय ना तो बघाच तुमी (मुखार वता

तिच्या केसांक धरता आनी स्टुलार बसयता. मुठ उबारता - त्याचवेळार इतलो वगत कुशीकच्यान सगळे बारीकसाणेन पळोवपी डॉ. पोटफुगे मुखार सरता)

डॉक्टर : (हवालदाराक) एक मिनीट... एक मिनीट... तुमी मात्शे फांटी सरात पयलीं (हवालदार फांटी सरता) तुमीय फांटल्यान सरात सगळेजाण (हेर सगळे फांटी वतात. डॉक्टर बारीकसाणेन तिका नियाळटा. उपरांत हवालदाराक लायट पेटोवपाक खुणायता. तो लायट पेटयता. डॉक्टर तिच्या फाटल्यानसून मुखार येता. तिका हिप्नोटायज करता. तिवूय तशी वागता.)

डॉक्टर : (हातवारे करीत) आतां, आतां तुका सामकें हलकें दिसता. खूब खूब बरें दिसता... रिलेक्स दिसता... आतां न्ही... तुका हांसूक येता. खूब खूब हांसूक येता. (ती हांसता.... मनोसोक्त हांसना) पुरो... आतां आतां न्ही तुका खूब खूब दुख्ख जाला... (ती रडटा. खूब खूब रडटा) पुरो... आतां तुका हलकें दिसता. तुजें मन ल्हव जाता... ल्हानपणान जातालें तशें... चल तूं ल्हान आसतानाची खबर करुंया. तुका याद जाना... तुजें भुरगेंपण? सांग... जाता याद... सांग... सांग... कितें दिसता?

बायल : (मान वाकडी करीत स्वना भुनकाळांत गेल्लेभशेन) हय हय म्हाका अनाथ आश्रम दिसता. हांव थंयच ल्हानाचें व्हड जाल्लें. अनाथ आसलें तरूय म्हाजें बाकीच्याभशेन घर आसचें लग्न जावंचें अशें म्हाका खूब दिसतालें. म्हाकाय भुरगीं जावंचीं, ल्हान ल्हान गुटगुटीत टवटवीत अशीं सपनां हांव रंगयतालें... म्हाका ल्हान भुरग्यांची खूब हौस. आश्रमांतल्या ल्हान भुरग्यांक सांबाळपाचें काम हांवूच

करतालें. लुडबीं उलोवपी भुरगीं ताई ताई म्हुणीत म्हाज्या फांटल्यान धांवोंक लागतकीच, म्हाजे बोट धरूंक लागतकीच म्हाज्या भोंवतणी एखठांय जातकच म्हाजें काळीज भरून येतालें. त्या भुरग्यामदीं हांव स्वताकूच विसरून वयतालें . अशींच भुरगीं म्हाकाय जावंचीं.. म्हाज्या रक्तामासांतल्यान तीं जल्मूचीं.. म्हाज्या कुडींतल्यान तीं वयर सरचीं अशें एकसारखें दिसतालें.

पत्रकार : (मदींच) तुका भुरगीं इतलीं आवडटात जाल्यार तुवें त्या भुरग्यांक मारले कित्याक?

खन्ना : हा - क्यो?

डॉक्टर : शूऽऽऽत (सगळ्यांक वोगी रावपाक खुणायता)

बायल : मदीं एक गजाल घडली. हांव आश्रमांतल्या ड्रायव्हराच्या मोगांत पडलें. लिपोन उलोवप, फिरूंक वचप, फिल्माक वचप सुरू जालें... पूण आमी एक केलें. भियत भियत काय जायना सगळी गजाल आश्रमाच्या अध्यक्षांच्या कानार घातली. तेणी सगळें आयकून घेतलें, ते तापले नात. तेंका खोशी जाली. आमचें आश्रमांतूच धुमधडाक्यात लग्न लागलें. (भावनाविवश जावन) त्या दिसा हांव.... हांव अनाथ आसा हें खऱ्यानीच विसरून गेलें. लग्नाक येयल्ल्यांनी म्हाजें अनाथपण जशें कितें त्या दिसा इल्लें इल्लें वाटुनूच घेतलेलें.

डॉक्टर : हें सगळें सुख येवन लेगीत -

बायल : सुखाचें आयुश्य खूब कमी आसता.

डॉक्टर : म्हणजे?

बायल : दोन वर्सांनी घरांत पाळणो हाल्लोना. घोव भियेलो, घरचीं बोवाळ घालपाक लागलीं. वखदां, भोंदूबाबाचे उपाय देवस्पण सुरु जालें. म्हाज्या आंगात देव रिगोवपाचे प्रयत्न जाले.

तांका भुरगेंच न्हू... फक्त चेडो जाय आसलो फक्त चेडो भुरगो... घोवाचेर दुसरें लग्न करपाचो दबाव येवंक लागलो... एक दीस तोंच म्हणपाक लागलो - ''ममता, मुंबय एक बरो दोतोर आसा. आमी थंय या.'' हांव रोकडेंच तयार जालें... मुंबयच्या खंयच्यातरी स्टेशनार आमी देंवलीं. घोवान म्हटलें - ''हांगाच रव... हांव भायर वचून पत्तो विचारून येता.'' हांव बाकड्यार बसोन रावलें... खूब वगत... सांज जाली... रात जाली... पूण ते परत येयलेचना... म्हाज्याकडेन एक नायलॉनची पिशवी आसली शीं खाता म्हणोन तातुंतली साडी भायर काडली... साडये वांगडा एक चीट आसली. तिनूंत घोवान बरयल्लें - भुरगें जायना म्हूण तुका हांगाच सोडून वयना, पूण घरा परतू नाका. परतल्यार दोकेच मोडून घालतलो. (रडटा)

हवालदार : (मर्दीच) सायब ही बाई आमची दिशाभूल करता. तुमकां सांगता सायब, ह्या असल्या बायलांनी कितल्या गांवचें पाणी पियेलें आसतलें देव जाणा... ह्या असल्या बायलांची जातूच तसली.

बायल : (नागीणी भशेन फुस्कारता) कोणाची जात वयर काडटा सायब? म्हाजी. तुमच्या सारख्या दादल्यांची गव्यारेड्याची कात हांव पुरी वळखून आसा. म्हाजें तोंड उगडू नाका सांगून दवरतां.

हवालदार : हे म्हारतुकडे... तोंड फोडटलो...

बायल : म्हाजें तोंड फोडटलो? तोंड फोडपाचेंच आसल्यार फोड त्या राक्षसीवृत्तीच्या - म्हाज्या घोवाचें... फोडपाचेंच आसल्यार तोंड फोड - म्हाजेर मध्यान रातीर रेल्वे स्टेशनार अत्याचार करपी त्या टिर्सीचें... फोडपाचेंच आसल्यार तोंड फोड त्या

हमालाचें... हायेन तेका सर्वस्व दिलें पूण सैतानान म्हाकाच वांझ थारोवन विवस्त्र करून रस्त्यार सोडलें.

पी. आय. : ह्या सगळ्यांनी तुजेर अत्याचार केलो म्हूण त्या भुरग्यांक मारले तुवें?

बायल : (वोग्गी)

डॉक्टर : उलय उलय तूं शांतपणान उलय... सांग तुवें त्या भुरग्यांक कित्याक मारले? (आतां ती पुराय जागी जाल्या)

बायल : हायीन कोणांक मारूंकना...

पी. आय. : (पी. आय. तापता) ना तुवेंन मारल्या, त्या दोन दोन वर्सांच्या चार भुरग्यांक.

बायल : हांव हांव... भुरग्यांक कशी मारतली? म्हाका वयल्यान भुरगीं खूब आवडटात. हांव तेंका कित्याक मारतली? (सगळे बुचकळ्यांत पडटात. खन्ना तिका मारपाक वता. शॉट सर्कीट ताका सांबाळटा. डॉक्टर आपूण परत मध्यस्थी करता)

डॉक्टर : ओके ओके. रिलेक्स... रिलेक्स... शांत शांत जा पळोवया. (हातवारे करता - हिप्नोटीजम) आतां तुका हांगा कितें जालें कांयच खबरना... तूं सामकें हलके हलकेंपण अणभवता... म्हाका सांग फुडे कितें जालें... आय मीन तुवें कितें केलें?

बायल : कितें करतलें... वयर मळब आनी सकयल जमीन. नशीबाक दुशण दियत हांव वाट फुट्टा थंय चलात रावलें. एका रस्त्यावयल्यान दुसऱ्या रस्त्यार. खूब लोक मेळ्ळे पूण कोणीच दया दाखयलीना... एका बायलेन म्हाजी काणी आयकोन म्हाका घरकामाक दवरलें. ती मालकीण आनी तिचो नवरो दोगांय नोकरी करतालीं. तेंका दोन वर्सांचो गोड चेडो आसलो... बंटी! बंटी तेंचें नांव... (वोग्गी रावता).

पी. आय. : सांग... उलय... उलय, बंटीचें कितें केलें तुवें? उलय -

डॉक्टर : (पी. आयक) शुऽऽऽत...

बायल : एक दीस... एक दीस हांव घरांत एकटेंच आसलें... हायीन घरात सारन मारली. जमीन पुसून काडली, रांदलें, थोड्यावेळान हांव बेडरूमांत गेलें. थंय बंटी शांत न्हिदलेलो... तेच्या पोल्याचेर चान्ने फुललेलें. तेचे गुबगुबीत हात मखमली ओंट, कुरळे केस, मोव मोव पांय - हांव कितलोसोच वेळ ताका पळयतच रावलें... म्हाजें मन भरून येयलें.. काळीज फुल्लें, हांव हांव म्हणजे म्हाका... म्हाका कितें जालें कळ्ळेंचना... हांव विजेवरी तेचेर कोसळ्ळें... तेका हड्ड्याकडेन घट्ट आवळून धरलो... तो जागो जावन रडोंक रागलो... तेणी म्हाजे केंस ओडले, पोले नाखटांनी ओरबडून काडले, हातपांय बडयले... हांव बेभान जावन तेच्या माणकुल्या पोल्यांचो उमो घेवंक लागलें. तेचे पोले, बोटां, हात कपल, ओंट चोंखूंक लागलें.... सगळी शक्त एकठावोन हांव... हांव तेका म्हाज्या हड्ड्यांत घुसयतालें - म्हाका... म्हाका दिसलें - हायें म्हाजें पोट फोडचें आनी तेका भितर लिपोवचो... (असहाय्य जावन) पूण तेचें रडप थांबना जालें... हाये तेका परत घट्ट छातयेकडेन आवळ्ळो... दिसलें... दिसलें, आतां म्हाका दुधाची धारूच फुट्टा... म्हाज्या छातयेंतल्यान दुध व्हांवना... (आड्डून) अचानक म्हाका कितें जालें कोण जाणा... हांव तेच्या पोल्यांत दांत घालून तांचे कुडके तोडूंक लागलें... तेचें गरम रक्त जिबेक लागतोकूच म्हाज्या आंगांत किनेंतर संचारल्या सारखें जालें... हांव परत तेचे बचके तोडूंक लागलें. तो... तो रडोंक लागलो. हुयेली मारपाक लागलो... हायेन मानेचो लचको तोडलो - रक्ताच्यो

चिळकांड्यो उडल्यो... म्हाज्या आंगार, तोंडार, हातार रक्तूच रक्त... हांव तेचेर तुटून पडलें. खूब वगत... कितलेशेच फावटी खूब खूब फावटी... तेची फडफड थांबली तेन्ना हांव न्हिदलें. दोळे कशे बंद जाले तें कळ्ळेंचना.

(हें सगळें आयकताना जमिल्ले सगळेजाण तोंड उक्ते घालून आयकतात. एक एक प्रसंग सांगताना तांच्या मुखामळावेले भाव बदलतात. तातूंत दोतोर आनी पी. आय. मात्शे स्थीर).

पी. आय. : आनी दोळे उक्ते जाले तेन्ना हातांत बेडयो दिसल्यो, भोंवतणी वारांव आसले प्रेजाचे - बरोबर.

बायल : बरोबर.

डॉक्टर : तुका कितल्या वर्सांची शिक्षा जाली?

बायल : बारा वर्सांची शिक्षा जाली म्हाका. बंटीची याद जालीना असो एकूय दीस गेलोना. म्हाज्या दोळ्यामुखार तो उबो रावतालो... हांव बेभान जातालें... कितलेशेच फावटी बंटीचे पोले समजून हाये वण्टीचो उमो घेतला.

पी. आय. : बारा वर्सां उपरांत तुवें कितें केलें? खंय गेली?

बायल : रेल्वेंतल्यान दुसऱ्या एका मोठ्या शारांत गेले... शार खंयचें तें विचारपाची गरजूच केन्ना भासलीना... रडोन रडोन अशाच एक बंगल्यांत कामवाली म्हूण नोकरी मेळयली. खूब बरें दिसलें. त्या बंगल्यातूय बंटी सारखोच सामको दोन वर्सांचो भुरगो आसलो... छोटू...! छोटूच तो. तेचें खरें नांव केन्ना कळ्ळेंचना... तेचीय मम्मी पप्पा नोकरी करतालीं. तेका क्रशांत दवरतालीं. हांव येतकच क्रश सुटलो... आनी... आनी एक दीस... तो तो... बंटीसारखोच न्हिदलेलो... सामको साखर-न्हिदेंत... तेच्याय वाटकुळया-गोऱ्यापिट्ट पोल्यांचेर चंद्र उदेल्लो... ओठांचेर हांशे फुललेले... आनी...

आनी हांव परत एक फावट बेभान... तेच्या भोवतणी म्हाजी घट्ट वेंग... घट्ट... आनी तेच्यो हुयेली... तेच्या पोल्यांचे मानेचे लचके... आनी परत एकदा जल्मटंप.

(सगळे फातराभशेन घट्ट. पी. आय. भितरल्या भितर कसल्यातरी चिंतेन अस्वस्थ. ताची चिंता हेरापरस वेगळी.)

पत्रकार : ओह नो...

डॉक्टर : चऽऽऽ चऽऽऽ चऽऽऽ

खन्ना : हे शॉट सर्कीट. हे तो शैतान की नानी निकली यार. बच्चो को... छोटे छोटे बच्चो को मारा यार... (तिडकीन) साली डायन रूक. तेरेको इधरीच टपकाता मै - (बेल्टांत हात घालता. सर्कीट ताका आडयता.)

शॉ. सर्कीट : भाय भाय संभालके भाय.

खन्ना : (निका नशीच हातांनी मारूंक वता) तेरी तो - तू रूक कैदी नंबर ००१ ना... तेरा तो मै यहीच the end, करता हूँ.

पी. आय. : गवान ... (सगळे वांग्गी) हें प्रकरण आजून सोपूंक ना.

हवालदार : ना. कशे?

पी. आय. : बंटीक मुंबयत जाल्यार छोटूक दुसऱ्या मोठ्या शारांत मारलो निणें. तेंवूय बी - तेंवूय बी खूब पयलीं.

(सगळेजाण चितेंत पडटात)

खन्नाभाय : बोले तो दो प्लस चार मर्डर?

हवालदार : म्हणजे (तिडकीन) स! स भुरग्यांक मारल्यात ह्या राक्षीणीन?

(परत सगळ्यांक धक्को बसता)

पी. आय. : करेक्ट... (बायलेक) आतां म्हाका सांग. तूं हांगा गांयांत केन्ना आयली?

बायल : वीस दिसां पयलीं.

(परत अजापाच्या धक्क्यान सगळे [illegible] दिता)



डॉक्टर : ह्या वीस दिसांनी कितें केलें तुवें?

बायल : कामवालीची नोकरी मेळपाखातीरची ताकद आतां नासली. खूब दारां बडयलीं पूण उपेग जालो ना. शेवटाय भुकेन आनी तानेन जीव खासावीस जालो. खंयसरूय देवळांत, गार्डनात बी अशेंच बसपाक लागलें... थंय... थंय धुडूधुडू करून धांवपी भुरगे दिसले म्हण्टकच बंटी आनी छोटूची याद येवंक लागताली.

पी. आय. : त्या चार भुरग्यांक तुवें -

बायल : फुलकान्नीचो भुरगो हायें कागदाचें होडें दाखोवन, दुसऱ्याक चॉकलेट दाखोवन, तिसऱ्याक बोमाडो दाखोवन जाल्यार वॉचमॅनाच्या भुरग्याक खेळणें दाखोवन उबारलो.

पी. आय. : तांकांय तुवें बंटी छोटू सारखोच -

बायल : ना. तेंका पयलीं खूब खूब काचुल्यो केल्यो... हांसयले. तेंच्यानी हांसतच रावचे अशें म्हाका दिसतालें. पूण ते रडपाक लागतकूच... मागीर... मागीर (जागी जाल्याभशेन साबुद्‌देर येता. खासावीस जाता. विचित्र नदरेन सगळ्यांक पळयता. मोठ्या मोठ्यान आड्डता)

नाऽऽऽ नाऽऽऽ हायीन कोणांक मारूंकना. केन्नाच मारूंक ना. म्हाका खूब खूब मोग करपाचो आसलो तेंचेर. ना... ना... खरेंच (हुमसून हुमसून रडटा)

पी. आय. : मागीर तुका दोन फावटी जल्मठेप कित्याक जाली?

बायल : म्हाका खबर ना.

पी. आय. : (तिच्या केंसांक धरून) खबर ना जाल्यार हांव सांगता. तुका कवळ्या भुरग्यांच्या रक्ताची चटक लागल्या चांडाळणी. तूं... तूं आतां मनीस उरूंकना. तू राक्षीण जाल्या राक्षीण. आतां तुज्या छातयेक दुधाची धार न्हय, रक्ताची धार

फुट्टली रक्ताची.

पत्रकार : (हळूच लागी येता. बारीकसाणेन प्रस्न विचारता) म्हाका सांग... तुकां धरूंक नासली जाल्यार तूं हाच्या उपरांत अशीच भुरग्यांक मारीत रावपाची?

बायल : (आड्डून) हायें कोणांक मारूंकना. हायें तेंचेर उपाट मोग केलां.

पत्रकार : (मुद्दाम जाणून घेवचेखातीर) मारूंक... म्हळ्यार, कोणाचेर मोग करपाची आसली तूं.

बायल : (वोग्गी)

पत्रकार : सांग... उलय -

खन्ना : बोल -

शॉ. सर्कीट : साली डायन बोल -

हवालदार : सायब, ही क्वाटर्सामेरेन पावलेली... हे .......... बोल रांडे, वॉचमॅनाच्या झिलग्या उपरांत कितें प्लॅन आसला तुजो?

पत्रकार : कोणाक मारपाचो - म्हळ्यार कोणाक वेंगेंत घेवपाची आसली तूं?

बायल : घारश्या दोळ्यांच्या - दोन वर्सांच्या टिंकूक
(आयकून सगळ्यांक धक्का बसता. पूण पी. आय. थरथरता.)

हवालदार : सायब टिंकू... तुमचो टिंकू.

पी. आय. : कितें!!!!
(पी. आय. भयंकर तिडकता. हातांतलो दांडो काडून तिच्या तकलेर घालता. ती स्टुलावयल्यान सकयल कोसळटा. सगळेजण खांबेकशे स्थीर. ती शांतपणान तकली हांसपिता. रक्त हाताक लागता. तें पळयता आनी निर्विकारपणान

हवालदाराक सांगता)

बायल : हवालदार सायब, तुमच्या सायबांक सांगात. म्हाज्या आंगांत म्हाजेंच रक्त ना तर त्या सऽऽऽ भुरग्यांचेंय रक्त आसा. ते भुरगे म्हाज्या रक्तांत आसात. तेंका कित्याक मारता. तेंका त्रास जातलो. म्हाका मारात. बुड्डुन खायात. मारात... मारात म्हाका... हांव तेंची आवय आसा न्हू... पूण तेंका मारूं नाकात... म्हाज्या भुरग्यांक मारूं नाका... (विचित्र हांसता. हांसतच रावता.)

(सगळेजाण एकमेकाक पळयतात. पी. आय. बोल्सांतलो लेस काडून तिच्या व्हांवतल्या घाव्याचेर लायता. काळजाक पीळ घालपी संगीत. पी. आय. च्या मुखामळार व्हड पोकळी निर्माण जाल्या. खन्नाभाय, डॉक्टर, बबलू, हेर लोक वेगवेगळ्या पॉजीन. हवालदार पी. आय. क पळयता. काळोख. पडदो.)

- अंक दुसरो सोंपता -



एक संवेदनशील कवी, श्रवणीय गीतकार, धीरगंभीर आनी प्रतिभा सपन्न कथाकार, सामाजीक जाणिवेचो पथनाट्यकार, कल्पक तशेंच परिपक्व एकांकीकार, चिकित्सक समिक्षक, मार्गदर्शक, धगधगत्या आनी पोजड्या वास्तवतेचेर भाश्य करपी नव-नाटककार आनी विद्यार्थी-प्रिय शिक्षक.

शिक्षण : एम्. ए. (मराठी). एम्. ए. (कोंकणी). एन्. ई. टी. (यु. जी. सी. नवी दिल्ली)

वेवसाय : अध्यापक : श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय, पोस्ट फातोर्डा, मडगांव - साश्टी - गोंय.

## साहित्यीक प्रवास

पथनाट्यां : भांगराचें गोंय म्हजें, वुमन ऑफ टुवेंटीयथ सेंचुरी, एक नवें पर्व, जायात जागे, कुरू कूरू कानां - काँक्रिटच्या रानां, रस्तो आमचो इश्ट खरो, अ रे ऑफ होप

एकांकी : काळजाक पडलां धांव, एक कुट्टूल फाफशिल्लें. एक अर्दकुटो खून, अंत्यसंस्कार, कित्याक, तीन कुंवाडीं, पूर्णविराम. संघर्श, भुमिपुरूश...

बालनाट्यां : माय फेवरेट लिडर, हांव सायबा मॉडर्न जाता, टम टमा टम.



कविताझेलो : आतां केन्नातरी फांतोड जातली (चेतना प्रकाशन)

नाटक : इन्व्हेस्टीगेशन (मराठी), कैदी नंबर ००१ (मराठी), हरी आमचो टेंपररी, हम होंगे कामयाब (कोंकणी)

**प्रा. हनुमंत चोपडेकार**

श्रीराम पर्णकुटी हाव्सिंग को. ऑ. सोसायटी, यशवंतनगर, तिस्क, फोंडें - गोंय.

E-mail : hcc001@chowgules.ac.in